# जाग

रुप्या-उत्सवी वर्स

वर्स २५ ◆ आंक ११ ◆ जून १९९९

याद ताजी साद जावन
आज मनाक जाग हाडटा
हार, फुलां ताका नाकात
देऊळ, थडें ताका नाका
सूर्त नाका, नाका शेनाय
दिशात जाल्यार दियात तुमी
हुनहुनीत जशी ल्हाय,
हड्ड्याभितर एकूच उतर:
"कोंकणी भास आमची माय."

- मनोहरराय सरदेसाय



# जाग

र्ष २५ ◇ आंक ११ ◇ जून १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

जवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

क्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

वर चित्र : लइराई कंप्यू.

## ह्या आंकांत



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-

## दर संपादप्याची

### काझेमिरू मौन्तैरू

अंदू अठरा जुनाक उगडास जालो तो लोहियांचो न्हय. सुटके झुजाऱ्यांचोय न्हय. जालो, काझेमिरू मोन्तैरीचो.

मौन्तैर 'सॅडिस्ट' आशिल्लो. दुसऱ्यांक मार घाले बगर, तांकां पिडा भोगयले बगर ताका सूख लागनाशिल्लें. ताका सरकारान 'पिदे'च्या 'आजेन्ति'चें काम दिलें. सालाझाराची 'पिदे' हिटलराच्या 'गेस्टापो' सारकी आशिल्ली. तिका विचारपी पाचारपी सत्याच नाशिल्ली. मोन्तैरी सारकेल्या 'परपीडक-संतोशी' मनशाक पिदेचें काम मेळटकूच तो सालाझाराचो बापूय जाल्ले भाशेन गोंयांत १९५४-५८च्या काळांत धुमशेणां कांडपाक लागलो. सांजचो पियेवन तर्रर जालो म्हणटकूच तो उठ्ठालो, जिपींत बसतालो. आनी ड्रायव्हराक सांगतालो, 'चल, या...' 'खंय या?' 'चल, फोंड्यां या...' जीप घेवन ताणें फोंड्यां येवचें, केन्ना सांवड्ड्यां वचचें, केन्ना सांग्यार वा केप्यां. कोणागेरूय वचचें. कोणाकूय धरचो आनी कोणाकूय जिपींत घालून ताका पणजे क्वार्तेलार हाडचो. ताका मार मार मारचो. मरऽसर मारचो. म्हज्या एका इश्टाक, लक्ष्मण वेलींगकाराक तो असोच घेवन गेल्लो. ताका मार मार मारलो. अखेरेक लक्ष्मण मारांनी मेलो. मोन्तैरीन ताचें प्रेत लेगीत ताच्या घरच्या लोकांक दिलें ना. खंय व्हरून उडयलें, कोणाक खबर ना.

लक्ष्मणाचो 'जयहिन्दा'कडेन कसलोच संबंद नाशिल्लो. 'जयहिन्दा'कडेन संबंद नाशिल्ल्या कितल्याश्या जाणांक ताणें धरून व्हेल्यात. मेल्यात तांकां खंय तरी व्हरून उडयल्यात. मरूंक पावले नात तांकां बंदखणींत घाल्यात.

कितल्याश्याच जाणांक ताणें हे भाशेन स्वातंत्र्य सैनीक केल्यात!

'सॅडिस्ट' लोकांचें एक आसता. मारून मारून पुरो जालें, जीव संतुश्ट जालो म्हणटकूच ताका मारपाचें ते सोडून दितात. मागीर ताका साप विसरतात. दुसऱ्या दिसा दुसऱ्याक सोदूंक वतात.

लक्ष्मण वेलींगकार स्वातंत्र्य सैनीक नाशिल्लो. पुणून शिवजी देसाय एक क्रान्तिकारी आशिल्लो. एक दीस तोय मोन्तैरीच्या दावकुलांत पडलो. क्वार्तेलार व्हरून ताका मोन्तैरीन मार घालो. दोन अडेज वरां ताका जरबंद पेट दिलो आनी निमाणें ताका सांगलें, 'फाल्यां सकाळीं संक तुका हांव शूट करतलों... तुजी निमाणी इत्सा सांग...' शिवाजीक कितें सांगचें, येवजलें ना. ताणें 'एक सिगरेट आसल्यार दी' इतलेंच मागलें. मोन्तैरीन बोल्सांतलें 'कॅप्स्टन'चें पाकीट आनी फस्क काडून ताचेर मोखून मारलें आनी म्हळें, 'ओड सवन रात ह्यो सिगरेटी' आनी आपूण फाल्यां संक येतलों म्हूण सांगून तो गेलो.

स जालीं, सात जालीं... आठ, णव, धा जालीं. कोण शूट करपाक आयलो ना.

मोन्तैर शिवाजीक विसरिल्लो.

मोन्तैरीचीं धुमशेणां हाताभायर गेल्यांत म्हणपाचें सरकाराच्या लक्षांत आयलें तेन्ना सरकारानूच ताका गोंयचो हालयलो आनी पुर्तुगालाक रवाना केलो.

पुर्तुगालाकूय ताणें होच 'धंदो' चलयलो.

ताच्या हातांतल्यान निमाणी हत्या जाली ती पुर्तुगालच्या राष्ट्राध्यक्षाचे वेंचणुकेक उबो राविल्ल्या पुर्तुगालांतल्या एका व्हड मनशाची – जेनेराल उम्बेर्तु देल्गादाची. १९६५त.

१९७४तल्या एप्रिल म्हयन्यांत सालाझाराचे राजवटीक उबगल्ल्या पुर्तुगाली लोकांनी एक क्रान्ती घडोवन हाडली. आनी हे क्रान्तींत पुर्तुगालांतली

सालाझाराची हुकूमशाय कोसळायली.

सालाझारवादी सगळे पुर्तुगालच्यान पळून गेले. तांचे वांगडा मोन्तैरूय पळ्ळो. पळून खंय गेलो ? कोण म्हणटाले, ब्राझिलाक गेला, कोण म्हणटाले, आफ्रिकेंतल्या ऱ्होडेशिया देशांत गेला. पयर, १८ मेच्या 'सुनापरान्तां'त आयचे सुटके झुजारी फेलीस्युबाब कार्दोझांनी मोन्तैरीच्या निमाण्या दिसाची खबर सांगल्या. ते म्हणटात —

'मोन्तैर दक्षिण आफ्रिकेंत रावंक लागिल्लो. ताणें आपणाल्यो मिशयो काडून उडयल्ल्यो आनी पेरैर फेर्नान्दीश नांव घेवन तो जियेवंक लागिल्लो. १९९१ वर्सा जानेवारी म्हयन्याचे १५वेर ७१ वर्सांचे पिरायेर तो पिडेस्त जावन मेलो (तो भीक मागतालो)... गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांचो हो कर्दनकाळ निमाणें एक पारपोळ सुणो कसो एका परकी देशांत मेलो !...'

## हिन्दुत्व

देशांत आयज पंजाबी लोक पळोवंक मेळटले, बंगाली मेळटले, महाराष्ट्रीय, गुजराती, कोंकणी मेळटले. 'भारतीय' मात वखदाक लेगीत कोण पळोवंक मेळपाचो ना.

भारतांत आयज भारतीय लोक नात.

स्वराज्या खातीर देश झुजतालो ते मुस्तींत भारतांत भारतीय आशिल्ले. भारतीय निर्माण करपाचो वावरूय ते मुस्तींत चलतालो. स्वराज्य मेळ्ळें आनी कांय वर्सां भितर देशांतलो भारतीयूच ना जावन गेलो. देशान ताका वयर सरूंक दिलोना. तो पर्थून जल्माकूच येवंक पावलो ना.

पुणून, देशांत हिन्दू आयजूय सगळे कडेन पळोवंक मेळटात.

हिन्दूंन पंजाबी, बंगाली, मराठी असलो वेगळेचार ना. हिन्दू पंजाबांतलो आसलो तरूय हिन्दूच आसता. बंगालांतलो आसलो जाल्यारूय हिन्दू आसता. हिन्दू खंयच्याय वाटारांतलो आसूं, खंयचीय भास उलोवपी आसूं, ताच्यांतलें हिन्दुत्व ताका ताच्या वाटारांत आनी ताचे भाशेंत बंदिस्त दवरिना. ताका पुराय हिन्दुस्तानाकडेन जोडटा. हिन्दूंतलें हिन्दुत्व देशाक एकठांय बांदून दवरपी एक मोलाचें तत्त्व.

खूब बदनाम जालां हें उतर हालिंच्या वर्सांनी.

व्युत्पत्तिशास्त्राचे नदरेन 'भारतीयत्व' आनी 'हिन्दुत्व' एकाच अर्थाचीं – पर्यायवाची – उतरां. भारतांत रावता तो भारतीय. मागीर, तो खंयच्याय वाटारांतलो आसूं, खंयचीय भास उलोवपी आसूं वा खंयचेय धर्मपरंपरेंत वाडिल्लो आसूं. तसो, हिन्द देशांत रावता तो हिन्दू. मागीर, तो खंयच्याय वाटारांतलो आसूं, खंयच्याय भास-परिवारांतलो आसूं, वा शैव, वैष्णव, शाक्त, बौद्ध, जैन, खंयचेय धर्म-परंपरेंत वाडिल्लो आसूं. हेर सगळ्यांक तांच्या देशावयल्यान नांवां पडल्यांत, तांच्या धर्मावयल्यान मेळ्ळ्यांत. हिन्दुस्तानाक हिन्दुस्तान नांव हिन्दू रावतात तो देश ह्या अर्थान मेळ्ळां. तशें, हिन्दू ज्या धर्माक पाळो दितात तो हिन्दू धर्म ह्या अर्थान हिन्दू धर्माक नांव पडलां.

मुदलांत हिन्दू धर्माक नांवूच नाशिल्लें. हिन्दू आपणाल्या धर्माक 'सनातन धर्म' म्हणटाले. आनी 'सनातन धर्मां'त शैव, वैष्णव, शाक्त, सगळ्या धर्मपंथांचो आसपाव जातालो. सनातन धर्म उपासनेच्या मळार सदांच उदार रावला. कोणाकूच अमकेच तरेन उपासना कर म्हूण सांगपांत अर्थ ना; कित्याक, जण एकल्याचो सभाव वेगळो, नदर वेगळी, आवड वेगळी, हाका लागून जण एकलो आपणाल्या सभावाक, नदरेक आनी आवडीक धरून उपासना करतलो, ताका तितली मेकळीक दिवंक जाय, अशें सनातन धर्म सदां मानीत आयला. ह्या उदारपणाक लागून सनातन धर्मांत उपासनेचे कितलेशे पंथ जल्माक आयले आनी तांकां सगळ्यांक सनातन धर्मान आपणांत आसपावन घेतले. बापूय एका पंथाचो, जाल्यार पूत दुसऱ्या; गुरू एका पंथाचो, जाल्यार शिष्य दुसऱ्या, असलो देखाव दुसऱ्या खंयच्याच धर्मपंथांत पळोवंक मेळचो ना. सनातन धर्मांत मात तो खूबकडेन दिश्टी पडटा.

वैष्णव आनी शैव दोन वेगळे संप्रदाय. तत्त्वांचे, मान्यतायेचे आनी उपासनेचे नदरेनूय. पुणून ते वेगळे जाल्लेवरी केन्नाच चल्ले नात. झगडूंक तर केन्नाच नात. तें कित्याक, शैवां-वैष्णवां मजगतीं लग्नां जातात. ह्या लग्नांक कोण आंतर-धर्मीय – इन्टर रिलीजियस – लग्नां मानिनात.

गुजरातांत तर जैनां आनी वैष्णवां मजगतींय लग्नां जातात.

इतलो उदार हो सनातन धर्म. अवचीत एक दीस तो अशीर मनाचो, मोटवे बुद्धिचो, कुड्डो कसो जालो ? सगळ्यांत पयलीं ताणें बौद्धांक आनी जैनांक 'तुमी आमच्यांतले न्हय, तुमी वेगळे' अशें म्हणून आपणा पसून कडेक काडले. बुद्धाक तर ताणें विष्णुचो अवतार लेगीत मानिल्लो. बौद्ध आपूण जावन हिन्दू पसून वेगळे सरूंक नाशिल्ले. 'नहि वेरेन वेरानि' तत्त्व मांडटा आसतना खासा बुद्ध 'एस धम्मो सनन्तनो' – होच खरो सनातन धर्म म्हूण सांगतालो. ताका सनातन धर्माक एक नवें, निवळ रूप दिवपाचें आशिल्लें. ते खातीर ताणें वेदांचे यज्ञ संस्कृताये आड बंड केलें खरें. पुणून, बुद्धा पयलीं वेदांचे यज्ञ संस्कृताये आड उपनिषदांनीय बंड केल्लें. वेदीक कर्मकांडूच तांणी सगळें भिरकावन भायर मारिल्लें. उपनिषदां उपरांतची गीता. तिणें तर यज्ञाचो अर्थूच मुळा थावन बदलून उडयिल्लो. हिन्दूंनी उपनिषदां आनी गीता 'आमचे ग्रंथ न्हय' अशें म्हणून भायर मारूंक नात. बुद्धाकूच कित्याक भायर घालो ? विवेकानन्दान ताका 'रॅबेल चाइल्ड ऑफ हिन्दूइझम्' – हिन्दू धर्माचो बंडखोर पूत म्हळा.

हिन्दू धर्मानूच बौद्ध आनी जैनांक वेगळे काडटकूच बौद्ध आनी जैन आपणाक हिन्दू कित्याक म्हणटले ? आयचे नव बौद्ध आपणाक हिन्दू मानिनात म्हूण हालिंसाराक हिन्दुत्ववादी शिणपाक लागल्यात. हिन्दूच जंय तांकां हिन्दू मानूंक तयार नात थंय ते कित्याक आपणाक हिन्दू मानतले ?

हिन्दुत्व अशीर मनाचें आनी मोटवे बुद्धिचें जाता तेन्ना तें आपल्या लोकांक लेगीत आपणा पसून पयस करता, विघटन करपी तत्त्व जावन पडटा.

श्रीरामकृष्ण परमहंस आर्विल्ल्या काळांतले एक साक्षात्कारी हिन्दू आशिल्ले. तांणी हिन्दूं मजगतच्यो सनातनी उपासना तर अजमावन पळेल्ल्योच. ते भायर, मुसलमानी आनी खिरस्ती उपासनाय अजमावन पळेल्यो. सगळ्यो वाटो अजमावन अखेरेक ते 'ह्यो सगळ्यो वाटो आमकां एकेच कडेन घेवन वतात' ह्या निर्णयार पावले. खिरस्ती आनी मुसलमान लोकांक आपणावन घेवपाक हिन्दूंक कसलीच अडचण भासूंक जायना अशें म्हणपाक लागले. ते 'स्युडो सेक्युलर' नाशिल्ले. तांकां खंयचेच वेंचणुकेक उबे रावपाचें नाशिल्लें. फकत सत्य सोदून काडपाचें आशिल्लें. आनी अंतीं तांकां 'जन मत तत पथ' सत्य होलमल्लें.

श्रीरामकृष्णांचें हिन्दुत्व खरें हिन्दुत्व आशिल्लें. सगळ्यांक आपले करपी हिन्दुत्व आशिल्लें.

सनातन हिन्दू धर्मान विविधतायेक खूब म्हत्व दिलां. ईश्वराकडेन पळेता आसतना फकत एक दार्शनिक तत्त्व म्हूण पळोवन भागना, तें उपास्य दैवत जावंक जाय. ईश्वराक उपास्य दैवत मानतकूच मनशान ताचेकडेन खंयच्याय तरी एका नात्यान आपणाक जोडूंक जाय, अशें म्हळां. ईश्वर एक तर आमचो 'तात' (बापूय) जावंक जाय, माता (आवय) जावंक जाय, ना जाल्यार, गुरू वा सखा, कोणूय तरी जावंक जाय. तेन्नाच तो 'आमचो' जाता, अशें सांगलां. वेदीक काळांतले कांय रुशी ताका बापूय मानताले. 'पिता नोऽसि, पिता नो बोधि' म्हूण ताची प्रार्थना करताले. ईश्वराक पिता मानप फकत किरिस्तांवांचो मक्तो न्हय. हिन्दुंचोय तो पिता. हिन्दूं मजगतीं ईश्वराक 'माता' (आवय) लेखपीय लोक आसात. जगदंबेच्या रुपान ते ईश्वराक भजतात. राधा ताचेकडेन 'पियतम' म्हूण पळेताली.

रुपान आयजूय ताची उपासना मधुरा भक्तिच्या नांवान हिन्दू मजगतीं ता. 'तोहिं मोहिं नाते अनेक / मानिये जो भावै' – तुजें म्हजें नातें च तरेचें न्हय, जायतीं नातीं आसात आमचे मजगतीं, तुका जें मानवता मान्य कर, पुणून कशेय तरेन म्हाका तूं आपणा पांयां सरीं घेवन ' ही तुळशीदासाची प्रार्थना सनातन हिन्दुत्वाची खरी प्रार्थना.

हिन्दूंक ख्रिस्ती आनी मुसलमान धर्मांक आपणांत आसपावन घेवपाक लीच अडचण येवंक जायना आशिल्ली.

पुणून मदींच एक दीस राजकर्ण आमच्या जिवितांत रिगलें. आनी ताणें दू धर्मांचें रुपूच इबाडून उडयलें. 'तू आमचो न्हय, तूं आमकां नाका' तें वचत ताका म्हणपाक लागलें. ताणें घेतिल्लें हें रूप पळोवन दू धर्माची घुडी संवसारभर नाचयत आयिल्ल्या विवेकानंदाच्या अनुयायांक ीत एक दीस आपणाक हिन्दू म्हणोवन घेवपाक लज दिसपाक लागली. मी हिन्दू न्हय, आमी वेदांती' अशें आयज ते म्हणपाक लागल्यात.

हिन्दुत्ववाद्यांच्या हिन्दुत्वाचो येदो व्हडलो पराभव जो तांचो दुस्मानांतलो मान लेगीत करूंक पावचो नाशिल्लो, तो खासा तांणीच करून घेतला.

तरी आसतना –

आयज लेगीत हिन्दुत्वाक आमच्यांनी एक 'ऍसॅट' – मोलादीक ठेव नूं येता. अजुनूय हें हिन्दुत्व देशाक एकठांय दवरता. देशांत हिन्दुंचोच कडो चड. शंबरांतले अंयशीं हिन्दू. जें रूप ते देशाक दितले त्याच च्यो देश जातलो. तांणी देशाक नश्टें रूप लावचें न्हय म्हूण एक करूंक य –

हिन्दुंचें हिन्दुत्व ना करपा बदला ताचे आयाम मात्शे वाडोवंक जाय.

कशे ?

तांणी 'स्युडो सेक्युलर' जावचे न्हय. कोणाचीच खुशामत करची न्हय. न कोणाचो दुस्वासूय करचो न्हय. तांचे पसून जे पयस गेल्यात तांकां कत 'समजून घेवपाचो' यत्न करचो. समजून घेवपाक तांचे म्हऱ्यांत चें. ते घडये हिन्दू म्हऱ्यांत येवचे नात. नाका येवं. ताचो हुसको करचो य. ताचो रागूय धरचो न्हय. ते लागीं येनात जाल्यार ताचो अर्थ एकूच ते हिन्दूंक भियेतात. तांच्या मनांतलो हो भंय वचूंक जाय. हिन्दुंनी 'काडूंक' जाय. रोखडो वतलो अशें मानूंक जायना. मात्सो धीर धरूंक य. एक दीस वतलो असो मनांत भावार्तूय दवरूंक जाय.

तांचे म्हऱ्यांत वचपा खातीर तांचे धर्मग्रंथ वाचूंक जाय अशेंय ना. फकत घरांत कशे चलतात, कशे वागतात तितलेंच पळोवचें. आपलेपणान चे आचार समजून घेवचे. उदार नदरेन तांची नदर समजून घेवपाचो न करचो. तांकां 'वळखुपाची' आमची नदर इल्ली इल्ली करून बदलूंक गतली. आमी मानीत आयल्यात तशे हे लोक न्हय. तेवूय आमचे सारके. मचे इतलेच मूर्ख वा शाणे, आमचे भाशेनूच पूर्वग्रहांनी भरिल्ले. आमी धर्म-समाजांक भियेतात तशे तेवूय भियेतात. तांचें खंयचेंच आंग आमचे रस वेगळें न्हय म्हणपाचें आमचे नदरेंत भरूंक लागतलें. खरेपणानशीं न्दुस्तानांतल्या किरिस्तांव मुसलमानां सारके किरिस्तांव मुसलमान भायर यच पळोवंक मेळनात. मुदलांतले हे सगळे हिन्दू. हिन्दुंचीं जात-काती रकीं पिशेपणां लेगीत वेंगावन बशिल्ले म्हणपाची जाणवीक जातली. मचे वरीच तेवूय ह्या देशाचे लोक, ह्याच देशांत तांकां रावपाचें आसा. मचे भाशेन तांकांय मेकळेपणान ह्या देशांत जियेवंक मेळूंक जाय, अशें सपाक लागतलें.

मागीर 'परकी' 'घरचे' जातले.

तांकां आमचे पसून पयस दवरपी सगळ्यो आडखळी गळून पडटल्यो. श्रीरामकृष्ण, आनी गांधींच्या देशांतले हिन्दू दुसऱ्यांक समजून घेवपा ले लेगीत उदार जाले नात जाल्यार ह्या दोनूय म्हा-पुरसांचो जल्मूच कट गेलो, अशें म्हणचें पडटलें.

'हिन्दुत्वा'क हो एक नवो आयाम मेळूंक जाय. जाल्यारूच हिन्दूंची नदर बदलतली. आनी हिन्दूंची नदर बदलतकूच मुसलमान किरिस्तांवांचीय बदलतली.

देश एकठांय दवरपाची दायकी मुदलांत भौसंख्य हिन्दुंची. देश व्हड करपाचीय दायकी तांची. तांगेल्या हिन्दुत्वान उदार रूप घेतलें जाल्यार—

'भारतीयां'ची जी जात स्वराज्यांत ना जावन गेल्या ती परती जल्माक येतली. भारतीयत्व हाडपाक हिन्दुत्वान नवी दीक्षा घेवंक जाय.

## धर्मा वांगडा संस्कृतायूय ना जातली

अन्नाडी मनीस वळखूंक सोंपो. तसो संस्कारीय वळखूंक सोंपो. दुश्ट वळखूंक येता तसो सुश्टूय – बरो मनिसूय वळखूंक येता.

शिकूंक नाशिल्लोच अन्नाडी आसता अशें मानतालों. पुणून गोंयांत लोकशाय आयली तेन्ना कांय शिकिल्ले अन्नाडी पळेले. आनी शिक्षणाचो आनी संस्कारितायेचो व्हडलोसो संबंद ना ह्या निर्णयार पावलों. मागीर, संस्कारितेचो संबंद कित्याकडेन आसा हें सोदपाक बसलों तेन्ना वेगळेंच एक सत्व दोळ्यां मुखार स्पस्ट जालें.

म्हळें, हेर सगळे जीव पांच धा पंदरा हजार वर्सां पयलीं आशिल्ले तशेच आयज आसात. मनीस पांच हजार वर्सां पयलिंचो उरूंक ना. पन्नास पन्नास वर्सांनी तो बदलत गेला. एक तर वयल्या पांवड्यार चडला – सुसंस्कृत जाला. वा निसरून, गडगडून सकल पडला – विकृत जाला. बाकिच्या जिवां भाशेन तो प्राकृत अवस्तेंत उरूंक ना. आपूण कोण जावचो – सुसंस्कृत जावचो काय विकृत – हें ताणें आपणा हातांत दवरलां. ताचें चडप वा पडप ताचे इत्सेचेर निंबून उरलां.

मनीस बदलत गेला, पुणून सगळेकडेन तो एकेच तरेन बदलूंक ना. वेगळे वेगळे कडेन वेगळे वेगळे तरेन बदल्ला. कसोय बदलूं, बदलपाची ताची दिका मात सगळेकडेन एकूच उरल्या. तो अन्नाडीपणांतल्यान संस्कारितेकडेनूच गेला. पशुत्वांतल्यान मनीस जावपाचो यत्न करीत रावला आनी मनीसपणांतल्यान दिव्यत्वाकडेन पावलां उखलीत रावला.

एका काळार मनशाक वयर काडपाचें काम धर्म करतालो. जिविताच्या सगळ्या आंगांचो विचार करून खंयचें आंग कशें चलोवचें तें धर्म मनशाक सांगतालो. आयज धर्म बदनाम जाला. पूण ताची सुवात मनीस संस्कृतायेक दिवंक भायर सरला. पुणून धर्मान जशें जिविताच्या सगळ्या आंगांचो बारीक सारीक विचार करून 'श्रेय' कित्यांत आसा तें मनशाक सांगिल्लें – एक विहित शील आनी एक निषिद्ध शील तयार करून ताका दिल्लें, तशें संस्कृतायेन करूंक ना. मनशान कितें करूंक जायना आनी कितें करूंक जाय, तें संस्कृतायेन सांगूंक ना. श्रेय कित्यांत आसा तें दाखोवन दिवंक ना. म्हूण संस्कृताय अजून धर्माची सुवात घेवंक पावूंक ना.

खंयचीय संस्कृताय निखटी अध्यात्मवादी आसना तशी निखटी जडवादीय आसना. हिन्दू संस्कृताय अध्यात्मवादी आनी येवरोपेव संस्कृताय जडवादी अशें म्हणटात तें खरें न्हय. ह्या जल्मांत जें भोगूंक मेळ्ळें ना तें फुडल्या जल्मांत भोगूंक मेळचें म्हूण हिन्दू अनुष्ठानां-बिनुष्ठानां करता जाल्यार, ताका अध्यात्मवादी म्हणूंक येवचो ना. ताका जडवादीच म्हणूंक जाय. सादो जडवादी न्हय, सामक्या सकयल्या पांवड्यार देंविल्लो जडवादी म्हणूंक जाय. पुनर्जल्माची वा स्वर्गाची कल्पनाच निर्शेल्ल्या, खर्शेल्ल्या अपेशी जडवादी लोकांचे तकलेंतल्यान आयल्या.

हिन्दू आपणाक मानता तितलो तो अध्यात्मवादीय न्हय. आनी येवरोपाक तो म्हणटात तसो येवरोपेव जडवादी न्हय. जे संस्कृतायेन थॉमस ऑफ एक्विना, सेंट जॉन ऑफ क्रॉस, सेंट ऑगस्टीन, सेंट बर्नार्ड, विलियम लॉ, एक्कार्थ असले एका फुडले एक मिस्टिक्स (साक्षात्कारी) लोक जल्माक घाले तिका निखटी 'जडवादी' संस्कृताय कशी म्हणटले आमी ? अध्यात्मांत

वयल्या पांवड्यार पाविल्ली एक व्हड संस्कृताय ही.

संवसारांतल्यो सगळ्यो संस्कृतायो अध्यात्मवाद आनी जडवाद ह्या दोनूय मार्गांवयल्यान समान्तर चलत आयल्यात. तश्यो दर एके संस्कृतायेंत दोन पोट संस्कृतायोय समान्तर चलत आयल्यात. एक धवाड्यांची. दुसरी भौसाची.

रुढींक दसून रावप, बारीक दुबळ्या लोकांचेर धेंक बसोवन आपणाली सत्या चलोवप हें धवाड्यांचे संस्कृतायेचें लक्षण. जाल्यार, रुढी मोडप, परंपरेंत बदल घडोवन हाडप, तळागाळांतल्या लोकांक वयर काडपाचो यत्न करप हें भौसाचे संस्कृतायेचें लक्षण.

दोनिंच्यो भासो लेगीत वेगळ्यो.

पोरण्या काळार आमच्या देशांत एके संस्कृतायेची भास आशिल्ली संस्कृत. दुसरेची आशिल्ली पाली/प्राकृत. आयज पयले संस्कृतायेची भास जावन बसल्या इंग्रजी. दुसरेची भास लोक उलयतात ती – कोंकणी, गुजराती, तमिळ, तेलुगु, मराठी इत्यादी. पयली प्रतिश्ठीत. दुसऱ्यो 'हेंगाडी'.

बुद्ध भौसाचे संस्कृतायेचो मूळ पुरूस. तो ते मुर्स्तींतले 'हेंगाडी' भाशेंतल्यानूच लोकांक वयल्या पांवड्यार व्हरपाचो यत्न करीत आयिल्लो. बुद्धाची परंपरा, उपरांतच्या काळांत, संतांनी चलयली.

परिणामी – हिन्दू धर्माच्यो लेगीत दोन आवृत्त्यो चलपाक लागल्यो. एक भटां-ब्राह्मणांचो (क्लासिकल) हिन्दू धर्म. दुसरो, भौसाचो (पोप्युलर) हिन्दू धर्म.

येवरोप अमेरिकेंत आमी जो धर्म घेवन वतात तो भटां-ब्राह्मणांचो. भौसाचो हांगाच उरता.

धर्माची सुवात आमी संस्कृतायेक दिवची केली जाल्यार प्रस्न येतलो – ही संस्कृताय कसली आसतली, जडवादी काय अध्यात्मवादी? धवाड्यांची काय भौसाची?

संवसारांत कितल्यो-श्यो संस्कृतायो वयर सरल्यो आनी ना जाल्यो. आपणाली संस्कृताय पांच हजार वर्सां जालीं, तिगून उरली अशें हिन्दू मोट्या अभिमानान सांगीत आयला. पुणून पांच हजार वर्सां पयलीं आशिल्ली तशीच उरल्या व्हय तर ती? ना. बदलल्या. खंय बदलल्या? तिच्यांतलें कितें ना जालां, कितें उरलां? दुसरें, मुसलमानी संस्कृताये मुखार तिका हार खावची पडल्या तशी येवरोपेव संस्कृताये मुखार तिका दिमी मोडची पडल्या. कित्याक लागून हार खावची पडली? कित्याक लागून दिमी मोडची पडली?

ह्या प्रस्नांचो बारकायेन आनी खोलायेन विचार जावंक जाय. कित्याक —

आयज आमचे मुखार एक वेगळें संकश्ट येवन उबें रावलां – बाजारी संस्कृतायेचें. 'मीडिया' नांवाचो एक चश्मो हे संस्कृतायेन आमच्या दोळ्यांचेर चडयला. ह्या चश्म्यान आमकां अन्नाडी आनी संस्कारी – दुश्ट आनी सुश्ट – हें वळखूंक येतले व्हय?

अन्नाडी कोण आनी संस्कारी कोण हें वळखुपाची नदर आमी होगडावन बसले जाल्यार —

लेख बरोवपाक, भाशणां दिवपाक, परिसंवादांनी चर्चा करपाक विशय म्हूण संस्कृताय उपकारा पडत. जिविताचें जितें-जिवें मूल्य म्हूण ती उरपाची ना.

धर्मा वांगडाच तिवूय ना जावन वतली.

## गांधी शिकोवपाक येवरोपेव येवचे नात मू?

'तुमकां तुमचो खंयचोच प्रस्न सारको सोडोवंक आयलो ना. कित्याक, तुमचो खंयचोच प्रस्न तुमी सारको समजून घेतलो ना.' ताणें म्हळें.

म्हळें, 'सारकें समजावन सांग.'

ताणें भाशेचो प्रस्न घेतलो आनी म्हळें, 'संवसारांत सगळेकडेन भुरग्यांक तांचे तांचे आवय-भाशेंतल्यान शिक्षण मेळटा. इंग्लंडांत इंग्रजींत, जर्मनींत जर्मन भाशेंत. जपानांत जपानींत. मुळाव्या पसून वयल्या थरा मेरेन भुरगीं सगळे विशय आवय-भाशेंतल्यान शिकतात. इंग्लंडांत फ्रेँच वा जर्मन भाशीक लोक आसात. तांच्याय भुरग्यांक इंग्रजींतल्यानूच शिकचें पडटा. तांचे खातीर वेगळ्यो फ्रेँच जर्मन माध्यमाच्यो शाळा थंय चलनात. फ्रेँच जर्मन हो विशय म्हूण तांकां घेवंक मेळटा, इतलीच सवलत दवरल्या... एका परस अदीक भासो चलतल्या देशांनी एक खंयची तरी थळावी भास संपर्क भास – लिंक लँग्वेज – म्हूण वेंचून काडटात आनी ती सगळ्यांक सक्तीन शिकयतात. दर एका देशांत 'लँग्वेज प्लॅनिंग' करतात. आनी ते प्रमाण खंयच्या पांवड्यार दुसरी खंयची भास शिकोवची हें थारायतात. हांगा, तुमच्या देशांत 'लँग्वेज प्लॅनिंगूच' ना. म्हूण भाशेच्या मळार देशांत फकत घोळ चल्ला...'

'कारण कितें?' हांवें विचारलें.

'कारण एकूच... भाशेचो प्रस्न खंयच्या मळावयलो – शिक्षणाच्या मळावयलो काय प्रशासनाच्या – हाचोच विचार तुमी कोणें करूंक ना. मर्दींच केन्ना केन्ना एकाद्-दुकलो कोण भाशेचो प्रस्न काडटा तेन्ना ताका शिक्षणाच्या मळावयलो प्रस्न धरून तुमी ताचेकडेन भासाभास करतात. आनी, मागीर, आमचे भाशेंत, विज्ञानाचीं पुस्तकां खंय आसात, विज्ञाना बगर शिक्षण कशें पुरें जातलें; असले प्रस्न मुखार काडून पुराय प्रस्नूच घुसपावन उडयतात. जपानांत सगळें शिक्षण जपानींतल्यान चलता. कित्याक, खबर आसा? जपानांतलें प्रशासन सगळें जपानींतल्यान चलता म्हूण. थंयची रासवळ मळावयली मुखेल भास जपानी म्हूण. जपानांत वचून पळेयात, बाजारांत एका लेगीत पसऱ्याचो तकटो तुमकां जपानी सोडून दुसरे भाशेंत मेळपाचो ना. येवरोपांतूय त्या त्या देशांत पसऱ्यांचे तकटे त्या त्या देशाचे भाशेंतले पळोवंक मेळटले. फ्रान्सांत फ्रेँच भाशेंत, जर्मनींत जर्मन भाशेंत. चेकोस्लोवाकियांत चेक भाशेंत. सगळे कडेन आपापले भाशेंत... ह्याच तुमच्या देशांत सगळे वेव्हार इंग्रजींतल्यान चलल्यात. तुमची प्रशासनाची भास इंग्रजी, पार्लमेन्टाची भास इंग्रजी, कोर्टाची भास इंग्रजी, दुतावासांची भास इंग्रजी... ह्या देशाची भौमानाची भास इंग्रजी. मागीर आवय भाशेक लोक म्हत्व कित्याक दितले? देशाची भौमानाची भास जे मेरेन इंग्रजी आसतली ते मेरेन आवय-भाशेचीं कितलींय तुस्त-गितां गायात, खंयचोच मनीस आपणाल्या भुरग्याक आवय-भाशेंतल्यान शिकूंक दिवचो ना. म्हज्या भुरग्याक अशे भाशेंतल्यान शिक्षण मेळूंक जाय की जी ताका समाजांतल्या वयल्या पांवड्यार घेवन वतली, वयल्या पांवड्यावयली नोकरी मेळोवन दितली, व्हडपण जोडून दितली, अशें तो म्हणटालो... प्रशासनांतली इंग्रजी काडून उडयात, मागीर पळेयात. 'भाशीक नियोजन' जावंक जाय अशें तुमीच म्हणपाक लागतले...'

एक दोन वर्सां आदली गजाल ही. दिल्लीक गेल्लों आनी गांधी शान्ति प्रतिष्ठानांत राविल्लों. थंयच हो भुरगो येवन राविल्लो. मुदलांत लंडनचो. पंचविशेक वर्सांचे पिरायेचो. वर्सभर जाल्लें, हिन्दुस्तानांत भोंवत राविल्लो. वर्धाच्या सेवाग्राम आश्रमांत, मदुरायच्या गांधीग्राम आश्रमांत, वेडछीच्या संपूर्ण क्रान्ती विद्यालयांत रावन तो गांधी समजून घेवपाचो यत्न करतालो. चरख्या फाटल्यान आशिल्ल्या विचाराचेर भाळिल्लो. चरखो चलोवन सुतूय काडपाक लागिल्लो. कँटिनांत जेवंक बशिल्ले कडेन वळख जाली आनी हांवें ताका म्हजे कुडींत आपयलो.

म्हणपाक लागलो, 'ह्या देशाचो सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न गरिबिचो. स्वराज्य जोडून आतां पांच दसकां जालीं, तुमी तुमचो हो मुखेल प्रस्नूय सोडोवंक पावूंक नात...'

'कित्याक लागून?' हांवें विचारलें.

'गरिबायेक तुमी फकत आर्थीक मळावयलो प्रस्न मानलो म्हूण. गरिबायेचो प्रस्न फकत आर्थीक न्हय... गरिबांच्या हातांत पयसो वचना हें खरें. तांकां

ी काम दिवंक पावूंक नात म्हूण वचना हेंवूय खरें. गरिबांक कामां ळूंक जाय, तांच्या हातांत पयसो घोळूंक जाय, तांचें पोट भरूंक जाय, गळें खरें. पुणून हो प्रस्न इतल्यार थांबना. खूब मुखार वता. गरिबांच्या नांत गरिबाये विशीं तिडक जागी जावंक जाय. ती ह्या देशांत कोणें गोवंक ना. आमी हे मुखार गरीब रावचे नात अशें म्हणून तांणी उठूंक ाय. जो समाज गरीब निर्माण करता तो समाज आमी मोडून उडयतले सो नित्शेव तांणी करूंक जाय. नव्या समाजाचीं सपनां तांच्या दोळ्यां खार नाचपाक लागूंक जाय...'

अशें म्हणून ताणें आपणालो एक अणभव सांगलो—

'फाटीं हांव बिहारांत भोंवतालों. थंय हांवें शेतकामती पळेले. तांचेकडेन ांचे मालकिच्यो जमनी नाशिल्ल्यो. दुसऱ्यांचे जमनिचेर काम करून पोट रीत आयिल्ले. थंय एकल्या सर्वोदय कार्यकर्त्यान म्हाका सांगलें, हांकां रूंया, आयज मेळटा ताचे तिपेटीन दिसवडो दिलो, जाल्यार दोन दीस कामाकूच वचचे नात. दोन दीस पोटभर जेवतले, तर्रर जायसर पियेतले ानी ताणून दितले. धा दिसांची जोड दोन दिसांत खर्चून उडोवपाक ात लेगीत अनमनपाचे नात. 'फाल्यां'चो तांकां हुसकोच ना. घरांत कांयच ासलें जाल्यार परत जमीनदाराच्या दारांत उबे रावन पोटार हात मारून ाम मागपाक फाटीं रावचे नात. पिळग्यान पिळग्यो ते हेच भाशेन जियेत ायिल्ल्यान गरिबायेंत जियेवप हीच तांची 'अ वे ऑफ लाइफ' – एक ्रियेवपाची शैली जावन पडल्या. तातूंत, परत, 'नशिबांत आसा ताका ोण कितें करतलो' हो तुमचो धर्मसंस्कार तांच्या शिरंत्रांनी घोळत आयला. रिबाय मनशान निर्माण केल्या, देवान न्हय, नशिबान न्हय; ती आमच्यांनी ा करूं येता म्हूण तांकां कितलेंय समजायात, ते समजून घेवपाचे नात. ्हेन्दुस्तानांतले गरिबायेचो आनी हिन्दू धर्मसंस्कारांचो दाट संबंद आसा. ो मेरेन हिन्दुंची नदर बदलची ना ते मेरेन गरिबायूय ना जावपाची ना... ाचो अर्थ, गरिबायेचो प्रस्न निखटो आर्थीक मळावयलो न्हय, संस्कृतायेच्या ळावयलो तो एक मोटो प्रस्न, असो जाता. गरिबाय ना करची आसत ााल्यार ह्या देशांत सगळ्यांत पयलीं धर्माच्या मळार क्रान्ती घडोवन हाडूंक ााय... इट इज अ टोटल प्रॉब्लेम... 'टोटल' (समग्र, पूर्ण) नदर तुमच्या ्काय फुडाऱ्यांत ना. आडवाद फकत गांधींचो... ह्याच मनशाक 'टोटल' दर आशिल्ली.'

'जवाहरलालांत नाशिल्ली?'

'च्यॅ...' ताणें उसळून म्हळें. 'जवाहरलाल येवरोपेवांचो शिष्य आशिल्लो... ामचो, इंग्रजांचो. लंडन स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स, हॅरो, केंब्रीज ह्या ंस्थांनी घडयल्लो. ताणें तुमकां दिलें तें सगलें आमचे कडलें उशणें घेवन. जवाहरलालान केन्ना अस्पृश्यता निवाराच्या वावरांत वांटो घेतिल्लो व्हय? ांधी 'ओरिजिनल' आशिल्लो... ताणें रस्किन, थोरो, टॉलस्टॉय हांकां आपणाले गुरू मानले. पुणून, ताचें 'हिन्द स्वराज्य' पुस्तक वाचून पळेशात ााल्यार हो मनीस आपणाल्या गुरूंक फाटीं उडोवन कितलो सो मुखार ल्लो म्हणपाचें तुमकां दिसून येतलें. आनी मुजरत लक्षांत दवरूंक जाय, ं पुस्तक ताणें 'महात्मा' जावचे पयलीं, इतलेंच न्हय तर सत्याग्रहाचो ोद लागचे पयलीं बरयल्लें. हांव जिका 'टोटल' (पूर्ण समग्र) नदर म्हणटां ी गांधींत आशिल्ली...'

'हिन्द स्वराज्य'चेर ताणें एक प्रबंध बरयल्लो तो हाडून दाखयलो आनी म्हळें, तुर्तांक हांव गांधींच्या 'कंस्ट्रक्टिव प्रोग्राम' ह्या पुस्तकाचेर ्क प्रबंध बरयतां. जिका हांव टोटल नदर म्हणटां ते नदरेक धरून देश ्तकयल्ल्यान वयर मेरेन बांदून काडपाचो एक पुराय कार्यक्रम ह्या पुस्तकांत ताणें दिला. वयले वयल्यान पळेल्यार दुख्खी लोकांचें दुख्ख पयस करपी, जेवंक खावंक नाशिल्ल्यांक जेवपा खावपाचें साधन मेळोवन दिवपी, काम नाशिल्ल्यांक काम दिवपी, अशिक्षितांक शिक्षीत करपी 'सेवे'चो कार्यक्रम कसो दिसतलो. पुणून ह्या कार्यक्रमा फाटल्यान जी 'प्रेरणा' काम करता ती सेवेची न्हय. सेवेची आशिल्ली जाल्यार वेगळे वेगळे कडेन आश्रम चलोवपा बदला ताच्यान हॉस्पिटलां चलोवं येतालीं. हॉस्पिटलांनी जितली सेवा करूंक मेळटा तितली आनीक खंयचोच कार्यक्रम चलोवन मेळना. मदर तेरेझा बेश्टी हॉस्पिटलां चलयनाशिल्ली. तुमच्या रामकृष्ण मिशनान लेगीत हॉस्पिटलां चलयल्यांत. गांधी हॉस्पिटलांचे भानगडींत पडूंक नात. गांधींच्या ह्या कार्यक्रमान समाज मुळा सावन बदलपाच्यो सात वाटो दाखयल्यात—

१. वेगळ्या वेगळ्या धर्म समाजांक एकठांय हाडून, आमचे सगळ्यांचे धर्म खरे आनी बरे आसले तरूय सगळे अर्दकुटे उरल्यात; तांकां मानपी लोकांक एकामेकां म्हऱ्यांत हाडून, तांच्यांत दिवप घेवप चलोवन ते पूर्ण करपाची एक वाट दाखयल्या.

ही धर्मक्रान्तिची वाट म्हणूंक जाय.

२. समाजांत जे सगळ्यांत चड चिड्डल्यात, सगळ्यांत चड फाटीं पडल्यात तांकां आमच्या घरांनी हाडून, तांचेकडेन भौमानान चलून उंच उणाकपणाच्यो वणटी मोडून उडोवपाची एक वाट सांगल्या.

ही समाजीक क्रान्तिची वाट म्हणूंक जाय.

३. समाजांतल्या सगळ्यांक उत्पादक श्रमाची देख दिवन, विकेन्द्रीकरणाच्या तत्त्वाक धरून उत्पादन चलता अशी माणणी करून एका एका गांवांत स्वायत्त प्रजासत्ताकां स्थापन करपाची आनीक एक वाट ह्या कार्यक्रमान दाखयल्या.

हिका अर्थक्रान्तिची वाट म्हणूं येता.

४. देशी भासो मुखार काडून आनी सगळ्या भासांक जोडपी एक संपर्क भास थारावन – शिक्षण प्रशासन ह्या मळांचेर भाशेंत बदल घडोवन हाडून देशाक येवरोपेवांच्या मानसीक बंदेपणांतल्यान मुक्त करपाची एक वाट हातूंत दाखयल्या.

हिका सांस्कृतीक क्रान्तिची वाट म्हणूं येता.

५. जल्माक येता त्या खिणा पसून मरऽ मेरेनच्या काळांत जें जें कितें मनशाक शिकोवप गरजेचें ताची वेवस्ता गांवां गांवांनी उबी करून देश संस्कारी करपाचीय एक वाट हातूंत दाखयल्या.

हिका शिक्षणीक क्रान्तिची वाट म्हणूं येता.

६. सत्य, अहिंसा, अस्तेय, अपरिग्रह सारक्या मुल्यांक जिवितांत व्रतांची सुवात दिवन नवो मनीस घडोवपाचीय एक वाट हातूंत आयल्या.

हिका नैतीक क्रान्तिची वाट म्हणूं येता. आनी

७. सरकाराच्या हातांत आशिल्लीं कामां सरकाराच्या हातांतलीं काडून तीं चडांत चड लोकांच्या हातांत दिवन that government is best which governs least हे देखिचें एक राज्य स्थापन करपाचीय एक वाट हातूंत दाखयल्या.

हिका राजकी क्रान्तिची वाट म्हणूं येता.'

हांव आयकत रावलों. मनांत म्हळें, बुद्ध आमचोच आशिल्लो. पुणून तो कोण केदो हें आमकां इंग्रजांनी सांगलें तेन्नाच आमी ताका मानपाक लागले. गांधींचेंय अशेंच जावपाचें ना मू? तो कोण केदो हें आमकां सांगपाक आतां येवरोपेवांतले लोक हांगा येवपाचे नात मू? सांगूं नज, इतिहास-विधात्यान हें काम तांचेच खातीर राखून दवरिल्लें आसूं येता.

* * *

# कॉर्दिची बावली

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

ट्रिंगऽऽ ट्रिंगऽऽ ट्रिंग.
घड्याळिचो अलार्म वाजता.
आनी हांव काचाबूल जावन
अलार्म बंद करतां.

सकाळचीं पांच जाल्यांत.
हांव जनेल उगडटां.
शितळ वारो भितर येता.
भायलो सगळो वाठार सामसूम.
कॉटिचेर भुरगीं आनी घोव
सुस्त न्हिदल्यांत.

घड्याळ घेवनच हांव किचनांत वतां.
गॅसार कुकर चडयतां.
हिटर लायतां.
भाजी शिनतां.
रातचेंच हुमण आसा
तें गरम करतां
आनी न्हावंक वतां.

भायर दारार बॅल वाजता.
बेगीबेगीन न्हावन भायर येतां.
पदेर आयला.
पाव घेतां.
''बाय, मोडचे नात?''
ताची सदांचीच पिरंगण.
''फाल्यां दी...''
दुदवालो येवन दुदाचीं
पाकिटां दवरून वता.
तीं घेवन हांव किचनांत वतां.

स जालीं.
भुरग्यांच्या ब्रेकफास्टाचे
तयारेक लागतां.
घोवाक ब्रेडबटर चलना.
ताचेखातीर ऑमलेट करतां.
आनी म्हजो डबो भरतां.

सात जालीं.
बॅडरुमाचें दार उगडटां.
भुरगीं सुस्त न्हिदल्यांत.
घोव घोरेता.

भुरग्यांक उठोवन
बाथरुमांत घेवन वतां.
बाबडीं झेमेतच न्हातात.
तांकां कपडे घालतां
ब्रेकफास्ट दितां.

घोव अजुनूय सुस्त न्हिदला.
ताचें बरें,
हांगचे हांगाच सिर्विस. P.W.D.त.
केन्नाय गेल्यार जाता.
ताचो बॉसच खंय साडेधांक येता.
केन्ना-केन्नाय ताका इकराय जातात.

ना जाल्यार म्हजो बॉस
सदांच पाड पडिल्लो पावणे धांकच हजर.
स्टाफ लेट जाल्यार
खुनशी नदरेन पळेता.
हाच्या बापायलीच बॅंक जाल्ले वरी.

पॉंकऽ पॉंकऽऽ.
भायर रिक्षा उबी.
भुरग्यांक रिक्षेंत बसयतां.
टा टाऽऽ.
भुरगीं वतात.
घोव अजुनूय उठूंक ना.
हांव ब्रेकफास्ट घेवनच
बॅडरुमांत वतां.

''च्या करून दवरल्या.
ऑमलेट केल्या.
च्या मातशी गरम करून घे.
जेवण फ्रिजांत आसा.

करूनं घे.
भुर्यांक वाड.''
घोवाक फर्मायतां.
न्हिदेंतच ''आं'' म्हणटा.

तां.
सायआठ जाल्यांत.
आठांची बस चुकूंक फावना.
जाल्यार त्या बॉसाची
शी नदर
पळेतलो ?

धांवतच प्रासार येतां.
चीच बस.
चींच खुमणीं.
क्टराले पचके ज्योक्स.
डें वच, फाटल्यार सर.''
ोर पॅसेंजरांल्यो पिरंगण्यो.

दांची बस मडगांवां पावता.
बरें, स्टँडा लागसारच बँक.
ीक एके मिनी बसिचो
वांचलो.

पांच मिनटां आसात.
त धांवतच बँकेंत पावतां.
'ou look cute.''
ंदीसालो पचको कॉमेंट.
ी पाड पडिल्ल्याची
ंच बायलांचेर नदर.
ून लग्न कित्याक जावंक ना,
क खबर!

ाडी नवी गो ?''
ाक घेतल्या काय कितें ?
ालो 'खोचक' प्रस्न.
यकनाशिल्ले भशेन करून हांव
ज्या कावंटरार बसतां.

चेंच काम.
्टमरांचीं सदचींच काचकिसांवां.
ा दोन जातात कळच ना.

घेतां.
ुनय अर्दवर आसा.
जी घेवपाक जाय.
यल देंवतां.
म्हयांतच मार्केट म्हणून बरें.
जी घेतां.
केचीं सेलांक गेल्यांत.

तांचें बरें.
घराकडन मांय नाजाल्यार कामाक भुरगें आसा.
म्हजो घोव कित्यांतच लक्ष घालना.
हांवेंच सगळें पळोवंक जाय.

साडे-पांच जातात.
बँक सुट्टा.
धांवत-धांवतच स्टँडार येतां.
सदचीच बस.
सदचींच खुमणीं.
एकदांची बस वास्को पावता.

घरा पावतां.
साडे-स जाल्यांत.
भुरगीं 'मम्मी-मम्मी' करून
म्हयांत येतात.
तांकां उखलपाचें लेगीत
आंगांत त्राण ना.

घोव टिवी पळयत
ऑल्तेरार बसला.
''आयज लेट जालें ?''
घोवालो सदचोच प्रस्न.
ताचेर एक मुमुरखो हांसो उडोवन
हांव किचनांत वतां.

परतें किचन.
रातचें जेवण.
भुरग्यांचो अभ्यास.
किचनांतलें सगळें जाग्यार घालतां.
फाल्यांची तयारी करता म्हणसर
रातचीं इकरा जाल्यांत.

भुरगीं न्हिदलीं.
घोव जागोच आसा.
''अजून जावंक ना तुगेलें ?''
ताका हांव म्हयांत जाय.
''येतां! मात्सो धीर धर...'' हांव.

कॉर्द सोंपिल्ले बावले भशेन,
हांव ताचे म्हयांत येवन पडटां.
सकाळचें पांचांक उठूंक!

* * *

# वलिपत्तनाचो सोद – एक अभ्यास

पंढरीनाथ श्री. श. सुरसुरे

शणै गोंयबाबांलें 'वलिपत्तनाचो सोद' हें पुस्तक वाचतकच, म्हजी वलिपत्तनाविशिंची उत्सुकताय वाडली. शणै गोंयबाबान सन १९२८ वर्सा वलिपत्तनाचो मेळ बाळ्ळी गांवाकडेन घाल्लो. ते उपरांत ज्या थोड्याभोव संशोधकांनी बाळ्ळी गांवाविशीं संशोधन केलें तांणी वलिपत्तनाचो मेळ एक तर साश्टींतल्या वेळ्ळी गांवाकडेन घाला वा सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांतल्या वालावली गांवाकडेन घाला. आजवेर म्हज्या हाताक जी माहिती मेळ्ळी त्या आधारार केल्लो हो एक अभ्यास.

शणै गोंयबाब आपल्या 'वलिपत्तनाचो सोद' ह्या पुस्तकांत पान ३१चेर म्हणटात, 'क्रिस्ताच्या पैल्या शेंकड्यांतलो ग्रेग वेपारी पेरिप्लुसकार आनी दुसऱ्या शेंकड्यांतलो भूंयवर्णनकार टॉलेमी क्लावदियुस तोलेमाय्युस) हांणी हिंदुस्तानाची भूंयवर्णना बरोवन दवरल्या. टॉलेमीन हिंदुस्तानाचो एक नकासोय काडला.'

त्या काळावयली संशोधनाचीं थोडींभोव साधनां पळेल्यार दोगूय संशोधकांचें कवतूकच करपाक जाय. दोगांनीय हिंदुस्तानाच्या मूळ शारांचीं नांवां आपले इंग्लेज भाशेंत खूब विद्रूप करून बरयल्यांत. ताका लागून मूळ नांव सोदतना खूब घुस्पागोंदळ जाता. पॅरिप्लूसकारान हिंदुस्तानाचे अस्तमतेक दर्याचे देगेर आनी दक्षिण दिकेक अरियके नांवाची सुवात आसा म्हूण सांगलां. ही सुवात सुप्पर सावन नित्र मेरेन पातळिल्ल्याचें तो म्हणटा. टॉलेमी ताचे मुखार वचून अरियकेंतल्या थळांतलीं नांवां दिता. तातूंत पयलपत्मय (Palaipatmai) वा बलेपत्न (Bale Patna) ह्या सुवातांचो उल्लेख येता. टॉलेमिचो संपादपी मॅकक्रिंडल हाणेंय हें थळ दक्षिणेक आशिल्ल्याचें म्हळां. वलिपत्तनाचो सगळ्यांत पुर्विल्लो उल्लेख 'बलेपत्न' ह्याच रुपांत मेळटा. वलिपत्तनाक लागीं येवपी हें एकूच नांव आशिल्ल्यान 'बलेपत्न' हेंच 'वलिपत्तन' अशें शणै गोंयबाब म्हणटात.

टॉलेमीन उल्लेख केल्लें 'बलेपत्न' हें मूळ हिंदुस्तानी नांवाचें विद्रूप रूप आशिल्ल्यान क्रिस्ताच्या पयल्या शेंकड्यांत वलिपत्तनाक कितें म्हणटाले हे विशीं अदमास मेळना. विंगड विंगड शतमानांत विंगड विंगड राजवटींत वलिपत्तनाक बलेपत्न, पलयमत्मय, बलिपत्तन ह्या नांवांनी वळखताले आनी ही सुवात आयचे बाळ्ळीक केंद्र मानल्यार तिचे अयस-पयस पातळिल्ली अशें दिसता.

टॉलेमीचो मूळ नकासो आमकां पळोवंक मेळूंक ना. देखून वलिपत्तनाविशीं अधिकृत मत उकतावचे पयलीं ऑक्स्फर्ड युनिव्हर्सिटी प्रेसावतीन श्री. सी. कॉलिन्स डेव्हीस हांणी संपादीत करून उजवाडायिल्ल्या An Historical Atlas of the Indian Peninsula (दुसरी आवृत्ती) ह्या पुस्तकांत दिल्ल्या भारत देशाचे कांय नकाशे अभ्यासप गरजेचें.

वयल्या पुस्तकांत पान १५चेर इ.स. १५० वर्साचो भारताचो नकासो दिला. तातूंत गोंयचे देगेवयल्या अपर समुद्राचो उल्लेख दिसता. ह्या 'अपर' नांवावयल्यान गोंयाक त्या वेळार अपरान्त, सुनापरान्त हीं नांवां पडल्यां आसत तरी त्या काळावयल्या म्हत्वाच्या थळांचो उल्लेख तातूंत ना. चौथ्या शतमानांतल्या नकाशांतूय वलिपत्तन शार दिसना. इ.स. ६४० वर्साच्या भारताच्या नकाशांत मात दक्षिणेंतल्या तीन म्हत्वाच्या थळांचो उल्लेख येता – (१) कांची, (२) आयहोळ आनी (३) वातापी (पान. २१). आमकां म्हत्वाचें तें वातापी.

सातव्या शतमानांत नांवाजिल्लें वातापी शार इकराव्या शतमानांत तरतरपी वलिपत्तन शाराक खूब लार्गिचें दिसता. ७व्या शतमानांतलें वातापी शार दर्यादिगेसावन खूब भितर आसलें. काळांतरान दर्यारिस्त्याचें म्हत्व वाडिल्ल्यान वातापी शाराचें म्हत्व उणें जालां जावंक जाय. हाचोच परिणाम म्हूण ११व्या शतमानांत वलिपत्तन नांवारुपाक आयलें आनी वातापी शाराचें म्हत्व कमी जालें.

वातापी शार तरतरतालें तेन्ना आयच्या गोंयचे उत्तरेक पुलकेशी, दक्षिणेक चोल, पल्लव, पांड्या, चेरा आनी उदेंतेक चालुक्य, कलिंग आनी कोनगोडा ह्या राजवंशांची सत्ता चलताली. श्री. बा. द. सातोस्कर हांच्या 'गोमंतक – प्रकृती आनी संस्कृती' खंड २, हातूंत आयिल्ल्या उल्लेखा प्रमाण चालुक्यवंशी पुलकेशी-२ सातव्या शतमानांत (इ.स. ६१० ते ६४२) गोंयचेर राज्य करतालो.

'वातापी' हें नांव सगळ्यांत पयलीं आमकां आमच्या पुराणांनी मेळटा. 'वातापीनगर' नांवाचें एक शार आशिल्ल्याचेय उल्लेख पुराणांनी येतात. वातापी ह्या राक्षसाची कथा आमकां वाचूंक मेळटा ती अशी – मणिमती नगरांत इल्वल आनी वातापी नांवाचे दोग दैत्य भाव रावताले. दोगूय मायावी विद्येंत निपूण आसले. तातुंतल्या इल्वलाक ब्राह्मणांची खूब तिडक आसली. कोणूय ब्राह्मण तागेर आयलो जाल्यार ताणें भावाक आपोवचो, ताचो बकरो करचो, ताका मारचो आनी शिजोवन त्या ब्राह्मणाक खावंक घालचो. खावन जातकूच इल्वलान वातापीक उलो मारचो. उलो आयकना फुडें ब्राह्मणाच्या पोटांतल्या वातापीन 'ओ' म्हूण जाप दिवची आनी ब्राह्मणाचें पोट फोडून ताणें भायर सरचें. ब्राह्मण मरचो. हे भाशेन दोगांनीय खुबशे ब्राह्मण जिवानशीं मारिल्ले.

एक दीस दुडवांचे गरजेक लागून अगस्त्य मुनी आपले वांगडा तीन राजांक घेवन तागेर पावता. चौगांचोय बरो थातोमातो करतकच इल्वल सदांवरी वातापीचें मांस अगस्त्य मुनीक वाडटा. अगस्त्य मुनीक परिस्थितिची कल्पना येता. तो वातापीचें पुराय मांस खावन पचयता. जेन्ना इल्वल वातापीक उलो मारता तेन्ना वातापी येवंक पावना. आपणें वातापीक पोटांत जिरोवन उडयलो अशें सांगून अगस्त्य मुनी धेंकर दिता. अगस्त्य मुनीचें कर्तुत्व पळोवन इल्वल भियेता आनी अगस्तीक जाय तितले दुडू दिवन रवाना करता.

वयर उल्लेख आयिल्लो अगस्त्य मुनी दक्षिण भोंवडेर आयिल्लो म्हणपाची कथा महाभारतांत वाचूंक मेळटा. सूर्य मेरू पर्वताक प्रदक्षणा घालता तशी आपणाक घालिना देखून विंध्याद्री पर्वत ऊंच ऊंच वाडून सुर्याची वाट आडायता. ह्या विंध्याद्री पर्वताक, अगस्त्य मुनी आपले दक्षिण भोंवडे

ळार ऊंच वाडुंनाका. आपूण दक्षिण भोंवडेसावन परत येयसर आसा सोच राव म्हूण विनंती करता. विंध्याद्री अगस्त्याच्या मानाक ऊंच वाडूंक ावना अशी ही काणी. अगस्त्य मुनी हो दक्षिणेचे भोंवडेर आयिल्लो पयलो ार्य ही समजूत चडशे पुराणकार आनी इतिहासकार मान्य करतात.

पौराणीक कथा कितल्यो खऱ्यो कितल्यो फट हे विशीं दुबाव आसल्यार लेगीत तातूंत इतिहासीक तथ्यां लिपिल्लीं दिसतात तीं अशीं –

१. अगस्त्य मुनीन दक्षिण भारतांत भोंवडी केल्ली. २. वातापी नांवाचो एक राक्षस आशिल्लो. ३. 'वातापीनगर' नांवाचें एक नगर पुर्विल्ल्या भारत देशांत आशिल्लें.

आतां, वातापीचें मुखार कितें जालें हो एक प्रस्न उरता. वातापी नांवाच्या त्रस्त संमधाक अगस्त्य मुनीन भक्षण केल्ल्यान ताका देवत्व प्राप्त जालां जावंक जाय. देवत्व प्राप्त जाल्ल्या वातापीक लोकांनी देव म्हूण पुजला जावंक जाय. देव म्हूण पुजतकच ताका प्रसन्न करून घेवपाखातीर ताचे मुखार कोंबो, बोकडो आनी हेर कांयकडेन रेडो दिवपाची चाल सुरू जाली. देखून वातापी हें 'राखणदार दैवत' जालें. हो वातापी शेंकड्यांनी वर्सांच्या प्रभावा उपरांत 'बेताळ' जावन गोंयच्या खांची कोंयड्यांनी पावला. महाराष्ट्रांत बेताळाक 'म्हसोबा' म्हणटात. हाका मुखेल कारण पुर्विल्ली रेडो दिवपाची चाल आसा.

जेन्ना ११व्या शतमानांत 'वातापी' नगराचें म्हत्व उणें जावन वलिपत्तन तरतरूंक लागलें, तेन्ना थोडीभोव थंयची लोकसंस्कृताय वलिपत्तनाक पावली. ताचे वांगडा बेताळाचें दैवतूय हांगा पावलें. आयज बेताळ हें गोंयांतलें मुखेल राखणदार दैवत. पुतुगेज येवचे आदीं गोंयांत व्हड प्रमाणांत बेताळ वा बेताळाचीं देवळां आसलीं. इ.स. १५६७ वर्सा रायतूरचो किल्लेदार कापितांव दियोग रुद्रिगिश हाणें साश्ट म्हालांतलीं २८० देवळां भूंयभरवण केलीं. हातुंतलीं १३ देवळां बेताळाचीं आसलीं. हे गांव अशे – आरोसी, असोळणें, बेतालभाटी, करमणें, चिंचोणें (२), कोलवें, ओडली, धर्मापूर, लोटली, सालझोरे, तळावली आनी वेळ्ळी. तेच परी पुतुगिजांनी मोडिल्ल्या बेताळाच्या हेर देवळांमदीं बार्देसांतलीं १५ आनी तिसवाडींतलीं ५ देवळां आसपावतात. ते भायर बेताळाचीं देवळां एके शिरेंत प्रियोळ सावन काकोडें मेरेन आशिल्लीं दिसतात. केंपेंच्या बेतूल गांवांतूय बेताळाचें देवूळ आसा. हें देवूळ वलिपत्तनाचे शिमेंत आसपावता.

साश्ट म्हालांत बेताळाचीं जीं देवळां मोडिल्लीं, तातुंतल्या कांय बेताळांचो उल्लेख 'आगयो बेताळ' असो जाता. हीं देवळां निजाचीं आसून 'आगयो' हें उतर अगस्त्य मुनी वयल्यान बेताळाक लागलां जावंक जाय. 'अगस्त्य' हें उतर गांवठी भाशेंत 'आगयो' जावन घोळणुकेंत आयल्यार अजाप न्हय. खुद्द बेताळ वा बेतू ह्या नांवावयल्यान गोंयांतल्या कांय गांवांक नांवां पडल्यांत. देखीक, बेतालभाटी, बेतूल.

१५व्या शेंकड्यांत नांवारुपाक आयिल्लो बेताळ आठव्या शेंकड्यांत अस्तित्वांत आसलो. ह्या वेताळ वा बेताळाक भजपी जी मुखेल जमात आसली, तिका वेळीप म्हणटाले. शणै गोंयबाब बेताळाविशीं कसलोच उल्लेख करिना. तांच्या मनात वेळीपांलें नगर तें वलिपत्तन. म्हणजेच, बेताळाक भजपी ते वेळीप आनी वेळीपांलें नगर तें वलिपत्तन अशी ही फोड. हाचोच अर्थ, बेताळ हो वलिपत्तनाच्या मुखेल देवांमदीं आसलो.

शणै गोंयबाबांनी वलिपत्तनाविशीं उल्लेख आयिल्ल्या तीन तांब्या-पट्यांची उतरावळ दिल्या. तातुंतल्या क्रिस्तसन ९८८च्या तांब्या-पट्यांत धम्मियर राजान 'बलिपत्तन' थळ समुद्राचे वेळेमेरेन वाडयलें आनी सोबीत केलें' अशें म्हळां. त्याच पट्यांत फुडें बलिपत्तनाक बलिनगर हें नांव दिवन, भीम राजाचो पूत अवसर हाच्या काळार तें खूब तरतरतालें अशें म्हळां. क्रिस्त सन १००८ आनी १०१०च्या तांब्यापट्यांत बळिश्ट धम्मियर राजान वलिपत्तनाक मोटें दुरीग घालें अशें म्हळां. क्रिस्त सन १०१०च्या पट्यां रट्टराजाच्या वेळार वलिपत्तन चंद्र-सुर्यभशेन वाडटालें म्हूण त्याच थळांत दानाचें लिखित केलां.

क्रि.सन. १०१० वर्साचो तांब्या-पटो, जाका वलिपत्तनाचो तांब्या-पटो म्हूण वळखतात, ताचो तपशील आमकां वाचूंक मेळटा तो असो:

... श्री रट्टार्यराजराज्ये। चंद्राक्कै प्रवर्द्धमाने पूज्ये श्री वलिपत्तने।

... श्री रट्टराजेन स्वहस्तेन हस्तोदकं कृत्वा ब्राह्मण सेणावअि नागमैयसुत संकमैयस्य... वाअिंगणक्षेत्र...

... पूज्ये वलपत्तने। पंचमहामठस्थाननगर हंजमान प्रधानामात्यवर्गः संविदितम् (तः)।

... पूज्ये राज्येऽत्र बलिनगरे... हडपादिप्रधानराजपुरूष सकल वृद्धनगर हंजमान पंजमठस्थान मठिकात्रशीविदितं।

वयली उतरावळ आमकां 'वलिपत्तनाचो सोद' पुस्तकांत वाचूंक मेळटा. ह्या तांब्या-पट्यांत वलिपत्तनाचो उल्लेख बलिपत्तन असोय येता. उच्चार नेमाप्रमाण 'व'चें 'ब' जाता अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. तांच्या म्हणण्यांत तथ्य दिसता. कारण बेताळाचो उल्लेख वेताळ असोय जाता.

ह्या सन १०१० वर्साच्या तांब्या पट्यांत एका ग्राम नांवाचो उल्लेख येता – हंजमान. हो गांव खंयचो ? हंजमान गांवाचो मेळ गोंयांतल्या खंयच्याच गांवाकडेन घालप आज मेरेन शक्य जावंक ना.

श्री. शांताराम भालचंद्र देव हांणी संपादीत केल्ल्या 'महाराष्ट्र व गोवे शिलालेख ताम्रपटाची वर्णनात्मक संदर्भसूची' ह्या ग्रंथांत पान ३२६चेर वयर दिल्ल्या तांब्यापट्यांत 'पलोरे' नांवाच्या ग्राम नांवाचो उल्लेख आयला अशें म्हळां. शणै गोंयबाबान दिल्ले उतरावळींत 'पलोरे' हें उतर दिश्टी पडना. घडये वयल्या तांब्यापट्यावयली पुराय उतरावळ शणै गोंयबाबान दिवंक नासत.

'पलोरे' नांवाची सुवात गोंयांत ना. पूण त्या उतराचे शैलीकडेन जुळपी एक गांव गोंयांत आसा तो म्हळ्यार पाळोळें. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार, पाळोळें काणकोण म्हालांत आसून ह्या गांवांत एक सुंदर दर्यविळ आसा. ही सुवात सरळ रेशेंत बाळ्ळीसावन वेळ्ळीपरस चड पयस ना. क्रि.सन १०१०च्या तांब्या-पट्यांत 'रट्टराजाच्या वेळार वलिपत्तन चंद्र सुर्यभशेन वाडटालें अशें म्हूण त्याच थळांत दानाचें लिखित केलां' अशें शणै गोंयबाब पान २चेर म्हणटात. जर रट्टराजाच्या काळार वलिपत्तन चंद्र सुर्यभशेन वाडटालें तर ह्या शाराच्यो शिमो एके वटेन पाळोळें आनी दुसरे वटेन वेळ्ळी गांवचे दयविळेक लागल्यार अजाप म्हणूं नजो. श्री. बा. द. सातोकर हांणी 'गोमंतक – प्रकृती आणि संस्कृती, खंड २' ह्या ग्रंथांत पलोरे गांवचो मेळ पाळोळें गांवाकडेन घाला.

दुसरी गजाल म्हळ्यार, वेळ्ळी आनी पाळोळें मजगतीं 'बेतूल' नांवाची म्हत्वाची वेळ वा बंदर आसा. आतां बाळ्ळी हें प्रशासनाचें मुखेल थाणें धरल्यार ताका लागीं पडपी सगळ्यांत लागिंचें बंदर आसा तें बेतूलच. बेतलांत एक मोडिल्लें पुर्विल्लें कोट आसा. ही खबर भौ. विष्णूबाब शेल्डेकारान आपणाक सांगली अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. वयली गजाल खरी धरल्यार 'बेतूल' गांवाक वलिपत्तनाचें मुखेल बंदर म्हूण चड म्हत्व येता. वयले माहितींल्यान एक गजाल स्पस्ट जाता ती म्हळ्यार, वलिपत्तनाचो संबंद तीन दर्यावळ/बंदरां कडेन पावता – पाळोळें, वेळ्ळी आनी बेतूल.

'वलिपत्तनाचो सोद' ह्या पुस्तकांत पान. ४चेर राय गांवांत मेळिल्ल्या कानडी बरप आशिल्ल्या वीरगलाचो उल्लेख येता. तातूंत वळ्ळियपूर गांवाचो उल्लेख आयला. वीरगलांत म्हळां, ''पयल्या जयकेशी कदंबाचे राजवटींत वळ्ळियपूरचो सरदार गोब्बरसिणी झुजांत मेलो.'' शणै गोंयबाब वळ्ळियपूर वलिपत्तन आसूंक जाय अशें म्हणटात. म्हज्या मतान वळ्ळियपूर ही आयची वेळ्ळी. आनी आयची वेळ्ळी हो वलिपत्तनाचो एक वांटो. ह्या सरदाराक

वळ्ळियपूर गांबची दायकी वा सरदारकी मेळिल्ली आसूं येता. आपल्या गांवची राखण करतना हो सरदार संवसाराक अंतरला. देखून ताचो आदरान उल्लेख आयला.

गोब्बरसिणी ही सुवात खंयची? वळ्ळियपूरचो सरदार गांवची राखण करतना जर अंतरला, तर गोब्बरसिणी ही सुवात एक तर वेळ्ळी गांवांत आसूंक जाय वा वेळ्ळी लागसार तरी आसूंक फावो. 'गोब्बरसिणी' ह्या उत्राकडेन जुळपी दोन सुवाती आमकां सालसेत म्हालांत दिश्टी पडटात – मोबोर आनी शिरली. म्हज्या मतान गोब्बरसिणीचें झूज वयल्या दोन गांवांनी खंय तरी जालां. उतराच्या सारकेपणा वेल्यान हांवें हो मेळ घाला. हाचेर चड उजवाड पडूंक जाय. शणै गोंयबाबांनी वयल्या सुवातीं विशीं अदमाद काडूंक ना.

इतिहासकार श्री. पिसुर्लेकार वलिपत्तनाचो मेळ सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांतल्या 'वालावली' गांवाकडेन घालतात. ते संबंदीं उलयतना शणै गोंयबाब पा. २०चेर म्हणटात, ''सातव्या शेंकड्यांत हो गांव म्हत्वाचें थळ आसून, विजयादित्य चालुक्य पातशायाच्या क्रि.सन ७००च्या कोत्रावपी लिखितांत ताचें नांव आयलां. ते व्हडले गोंयचे उत्तरेक, सावंतवाडी संस्थानांत आसून न्हंयेलागसार एका दोंगरार आसा. लिखितांत वालावलीचें नांव बळ्ळावळ्ळी अशें दिलां.''

जर वयल्या पट्यांत बळ्ळावळीची सुवात दिवंक नासली तर आमी बळ्ळावळ्ळीचो मेळ बाळ्ळी वा वेळ्ळी वा दोनूय गांवांकडेन घालतले आशिल्ले. देखून वलिपत्तन म्हळ्यार आयचें वालावली हो दुबाव पयस जाता. देखून वळ्ळियपूर म्हळ्यार वेळ्ळी आनी वलिपत्तन वा बलिपत्तन म्हळ्यार बाळ्ळी हो तर्क चड लार्गिचो दिसता.

आतां शिलाहार राजकुळयेचो इतिहास आनी तांणी वलिपत्तन ही राजधानी कित्याक वसयली हाचो अदमास घेवंया. शिलाहारांचे तीन तांब्यापटे आमकां अभ्यासूंक मेळटात. सन ९८० वर्साचो पट्टणकुडी तांब्यापटो आनी सन १००८ वर्साचो खारेपाटण तांब्यापटो अभ्यासतकच शिलाहाराची वंशावळ मेळटा ती अशी–

सणफूल्ल → धम्मियर → ऐयप → पयलो अवसर → आदित्यवर्मन → दुसरो अवसर → इंद्रराज → भीम → तिसरो अवसर → रट्टराज.

आर. सी. मुजुमदार हे इतिहासकार गोंय शिलाहारांचो काळखंड इ.स. ८०८ ते इ.स. ११०० असो मानतात. (पा. १८३, गोमंतक, प्रकृती आनी संस्कृती. बा. द. सातोस्कर). शिलाहारांचो शेक सुमार तिनशीं वर्सां चल्लो हो तर्क भौतेक इतिहासकार मान्य करतात.

सुरवेक शिलाहारांची राजधानी वलिपत्तन नासली. शिलाहारांचो संस्थापक सणफूल्ल हाणें गोपकपट्टण हांगा ही राजधानी वसयली. गोपकपट्टण म्हळ्यार आयचें व्हडलें गोंय. ते उपरांत ताणेंच आपली राजधानी चंद्रपूर म्हळ्यार चांदर गांवांत हालयली. सणफूल्लाचो पूत हाम्मियर हाणें ही राजधानी बलिपत्तनाक व्हेली, अशें म्हणटात. शिलाहारांची मूळ राजधानी चांदर काय व्हडलें गोंय हे विशींय कांय इतिहासकारां मदीं गोंदळ आसा तरी वयल्या घोळांतल्यान कांय गजाली आमचे नदरेंत भरतात त्यो अश्यो —

चांदर आनी व्हडलें गोंय ह्यो दोनूय सुवाती मूळ दर्यादिगे सावन भितर आसात. धम्मियराक आपल्या म्हालाची वा सैन्याची हाड व्हर करपाक एक बंदर जाय आसलें. हें बंदर ताका वेळ्ळी वा बेतलू (?) हांच्या रुपान मेळ्ळें. दुसरें, प्रशासनाचे नदरेन सुरक्षीत अशी सुवात ताका बाळ्ळीच्या रुपान मेळ्ळी. बेतूल गांवांत पुर्विल्लें मोडिल्लें कोट आसा अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. श्री. उल्हास प्रभुदेसाय 'अघनाशिनी तिरी' पुस्तकांत बाळ्ळी गांवांत कोट आसा म्हणटात तर बाळ्ळीचें बंदर म्हूण तांणी वेळ्ळीकडेन बोट दाखयलां. हें मनाक पटना. वलिपत्तनाचें बंदर बेतूलच आसूंक जाय. वेळ्ळी आसूं नज.

## बाळ्ळी भितर बेतलाक म्हत्व कित्याक? वेळ्ळीक कित्याक न्हय?

गोंयांत पुर्तुगेज शासन येवचे पयलीं गोंयांत पांच म्हाल आसले – (१) अष्टाग्रहर (२) हेमाडबारशें (३) काकोडें (४) चंद्रवाडी आनी (५) बाळ्ळी. पुर्तुगेजांनी हे पांचूय म्हाल विरगळावन दोन नवे म्हाल तयार केले (पळयात, गोंयकारांलो मुंबैकार, पान. २०). तांचीं नांवां अशीं – (१) सांगें आनी (२) केपें. देखून, पुर्विल्ल्या बाळ्ळी म्हालांत बेतूल गांवाचो आसपाव जावप भुगोलीक नदरेन सभावीक दिसता. बाळ्ळी वा वलिपत्तन ही म्हालाची मुखेल सुवात तर त्या म्हालाचें बंदर त्याच नांवान वळखल्यार अजाप न्हय. देखून वलिपत्तन शाराच्या बंदराचो उल्लेख वलिपत्तन म्हूण आयल्यार कांयच चुकना.

## बाळ्ळी आनी वेळ्ळी हीं पुर्विल्लीं जुंवळीं शारां आसत व्हय?

वयल्या प्रस्नाक हांव 'हय' अशी जाप दितलों. दोन विंगड विंगड म्हालाचीं दोन गांवां जुंवळी गांवां म्हूण वळखप शक्य आसा. गोंयांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या सावड्डें/कुडचडें गांवांची हांगा देख म्हूण दिवप शक्य आसा. हातुंतलें सावड्डें गांव सांगें म्हालांत आसून कुडचडें गांव केपें म्हालांत आसा. दोनूय गांवांक जुवारी न्हंय वेगळायता आसून लेगीत दोनूय गांवांचो लोक विंगडविंगड कारणांखातीर एकामेकांचेर आदारून आशिल्लो दिसता. कुडचडें गांवांत बांदिल्ल्या रेल्वे स्टेशनाक दोनूय गांवचो लोक सावड्डें म्हूण पाचारता, इतलो हांगाचो लोकमानस एकामेकांत विरगळून गेल्लो दिसता.

वयलेवरी सर्वसादारण काळानुरूप परिस्थिती १०व्या वा ११व्या शतमानांत बाळ्ळी वा वेळ्ळी गांवांत आशिल्ली आसपाक जाय. धर्मांतराक लागून बाटिल्लो वेळ्ळी वाठारांतलो समाज मूळ वेळीप वा ते तरेच्या हेर जातिंचो आसल्यार ताचेर उजवाड पडप गरजेचें. पुर्तुगेज गोंयांत येवचे आदीं वेळ्ळींत बेताळ / बेताळाचें देवूळ आसलें. आज बेतलांतूय बेताळाचें देवूळ आसा. हाचोच अर्थ बेताळाक भजपी जमात कांय आडवाद सोडल्यार एकच आसूंक जाय. ह्यो गजाली बाळ्ळी-वेळ्ळीच्या जुंवळेपणाच्या म्हणण्याक घटाय दितात.

वलिपत्तन ही सुवात खंयची? हे संबंदीं जेन्ना अभ्यास जाता तेन्ना इतिहासकार चार सुवातांचीं नांवां घेतात — (१) सिंधुदुर्गांतलें खारेपाटण (२) सिंधुदुर्गांतलें वालावली (३) गोंयांतलें वेळ्ळी आनी (४) गोंयांतलें बाळ्ळी.

शणै गोंयबाब आपल्या 'वलिपत्तनाचो सोद' पुस्तकांत आनी श्री. बा. द. सातोस्कर आपल्या 'गोमंतक – संस्कृती आणि प्रकृती, खंड २' हातूंत सिंधुदुर्गांतल्यो वयल्यो दोनूय सुवाती 'वलिपत्तन' न्हय म्हूण सांगतात. गोंयांतल्या हेर दोन सुवातींविशीं दोगांचेय मतभेद आसात ते अशे —

शणै गोंयबाब म्हणटात, बाळ्ळी गांवांत देवूळवाडो आसा आनी ही खबर तांकां थंयच्या एका वेळीपान सांगिल्ली. श्री. बा. द. सातोस्कर फातर्पें गांवांत देवूळवाडो आसा अशें म्हणटात. शणै गोंयबाब बाळ्ळीमुखार बेतलांत पुर्विल्लें कोट आसा अशें सांगतात. बा. द. सातोस्करांच्या मत्तान वेळ्ळी गांवांत फातरान बांदिल्लो बांद आसा. थंयच कोटबांद नांवाची सुवात आसा. आतांचो कोट नव्यान बांदिल्लो आसलो तरी राजा धम्मियरान बांदिल्लो कोट तेच सुवातेर आसलो अशें तांचें म्हणणें. शणै गोंयबाबांच्या मत्तान वलिपत्तन म्हळ्यार आयची बाळ्ळी, तर श्री. बा. द. सातोस्करांच्या मत्तान वेळ्ळी.

सन ९८८च्या तांब्यापट्यांत **''अधिवेलाकुलं रम्यं योऽ करोद्विलिंपत्तनम्''** नांवाचो श्लोक मेळटा. हाचो अर्थ, दर्याचे देगे मेरेन वाडिल्लें शार असो

अर्थ जाता अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. तर श्री. बा. द. सातोस्कर म्हणटात, ताचो अर्थ दर्याचें देगेर वाडिल्लें शार.

शणै गोंयबाब आनी बा. द. सातोस्कर हांचे 'वलिपत्तन' सुवातेविशीं मतभेद आसल्यार लेगीत दोगांयच्यो सुवाती बाळ्ळी/वेळ्ळी आनी बेतूल हे त्रिजेंत आसपावतात हें म्हत्वाचें.

## वलिपत्तनाचो मुखेल देव अव्वेश्वर कोण आनी खंयचो ?

शणै गोंयबाबान पा. ९चेर म्हळां ते प्रमाण, सन १००८ वर्साच्या तांब्यापट्यांत अव्वेश्वर देवाक तीन गांव सोडल्यात म्हूण उल्लेख आयला. एक कूष्माडी, दुसरो असनवीर आनी तिसरो वडदगूल. वयल्या तिनूय सुवातिंची फोड शणै गोंयबाबान कुसमण, असोळणें आनी वाडें-गुळें (ह्या नांवाविशीं शणै गोंयबाबांक दुबाव आसा) अशी केल्या. तांणी आपल्या वयल्या म्हणण्याक घटाय दितना सन १००८ वर्साच्या तांब्यापट्याचो तपशील दिला तो असो :

(वलिपत्तनाचो सोद, पा. ९)

कूष्माण्डी ग्रामस्तस्या घट्टनानि कथ्यन्ते पूर्व्वतोमणिग्रामप्रपा दक्षिणतो वापरवट ग्राममार्गः पश्चिमतः सचान्दलक पित्थ ग्रामवाहला। अुतरतः क्षारनदी। Epig Ind., Vol. 3 P. 300.

हातूंत कूष्माण्डी म्हळ्यार कुसमण गांवचो उल्लेख येता. ते भायर मणि म्हळ्यार आमोणे गांवची पोंय तर वापरवट उतरावेल्यान आयचें 'पर्वत' हें उतर घडलां अशें शणै गोंयबाब म्हणटात. चडशा इतिहासकारांक ही फोडणिशी मान्य आसा.

(वलिपत्तनाचो सोद, पान. ११)

तथाऽसनवीर ग्रामस्तस्य पूर्व्वता धारवाहला। दक्षिणतः कारपर्णीग्रामनदी। पश्चिमतः समुद्रः अुत्तरतो गवहणग्रामनदी। Epig. Ind. Vol. 3, Page 300.

हातूंत ऽसनवीर म्हळ्यार असोळणें गांवचो उल्लेख येता. कारपर्णी म्हळ्यार करमणें तर गवहण म्हळ्यार असोळणें लागसारचो गावणें गांव अशी शणै गोंयबाबान फोड केल्या.

(वलिपत्तनाचो सोद, पान १२)

तथा वडदगुल ग्रामस्तस्य पूर्व्वतो भोगदेव पर्व्वतयमलप्रस्तरो दक्षिणतोऽ खडदेवाहला। पश्चिमतः पडसडपाषाणः अुत्तरतः स्तामान – ग्रामसीसवीपर्व्वतः। Epig. Ind., Vol. 3 pp. 300-301.

हातूंत वडदगुल म्हळ्यार वाडें गुळे ह्या गांवांचो उल्लेख येता पूण ते विशीं पुराय अभ्यास जावंक जाय अशें शणै गोंयबाबान स्वता म्हळां.

श्री. उल्हास प्रभुदेसायान 'इथे अघनाशिनी तिरी' पुस्तकांत पान २९चेर म्हळां ते प्रमाण चंद्रश्वराचें दैवत सन ३२०-३३० काळांत भोजवंशीय राजाचे राजवटींत अस्तित्वांत आसलें. भोज चंद्रवंशीय आसले आनी तांणी चंद्रेश्वर आनी भूतनाथा खातीर खूब वावर केलो. श्री. प्रभुदेसाय वयल्या पुस्तकांत पान ३८चेर म्हळां ते प्रमाण अव्वेश्वराक अनसवीळ (असोळणें) आनी चंद्रेश्वराक कुष्मांडी (कुसमण) गांव दिल्लो हे तरेचो स्पश्ट उल्लेख तांब्यापट्यांत आयिल्ल्याचें सांगतात. हो उल्लेख खंयच्या तांब्यापट्यांत येता हें मात सांगिनात. हाचे उरफाटें, शणै गोंयबाबान आपलें मत स्पस्ट करतना वयर आयिल्ल्यो देखी दिल्यात. हांका लागून शणै गोंयबाबांच्या म्हणण्याक घटाय येता.

शणै गोंयबाब पा.१४चेर म्हणटात : ''अव्वेश्वर हें सुंदर आनी गोड बरें कोंकणें नांव दिसता. हें उतर अंबेश्वर ह्या संस्कृत उतरा पासून जालां. अंबा आनी अिश्वर ह्या दोन दुव्यांनी तें घडलां. अंबा म्हळ्यार आवै वा भौमानेस्त बायल. हें उतर चड पुर्विल्लें, म्हळ्यार वेदांतल्या काळांतलें.'' शणै गोंयबाब मुखार अंबा म्हळ्यार पार्वती आनी तिचो घोव म्हादेव हो ईश्वर ह्या नात्यान अंबेश्वर (संवसाराचो घोव) अशी फोड करतात.

शणै गोंयबाब पा.२चेर वलिपत्तनाच्या पट्याचो अर्थ सांगतना म्हणटात, ''रट्टराज आनी ताचो बापूय अवसर हांणी दोन पट्यांतल्या दानाची खबर आपल्या प्रधानाक, देवा धर्माच्या जाळवणदाराक आनी पंचाळ जातींक वलिपत्तनसून फळैल्या आनी दानाचीं लिखितां त्याच थळांत केल्यांत.

वयलीं दोनूय मतां वाचतकच एक लक्षांत येता. ती गजाल म्हळ्यार, अव्वेश्वराचें मूळ महाभारतांत आसूंक जाय. अंबा, म्हादेव, पांचाळ हीं उतरां महाभारतांत आनी तींय बी अंबे संबंदान येतात. भिष्मान केल्ल्या अपमानाचो बदलो घेवंक अंबा म्हादेवाचें तप करता. म्हादेव प्रसन्न जता. म्हादेवाच्या आशिर्वादान अंबा दुसऱ्या जल्मांत दादल्या रुपांत पांचाळ देशांत राजा द्रुपदागेर जल्म घेता आनी शिखंडीच्या रुपान भिष्माक मारता. हाका लागून अंबेक अंबेश्वर म्हळा जायत (दुसऱ्या जल्मांत दादल्या रुपांत) असो दुबाव येता.

## अव्वेश्वर म्हळ्यार आयचो चंद्रेश्वर ?

शणै गोंयबाब वयल्या प्रस्नाक 'हय' अशी जाप दितात. पूण अशें जावपा फाटलें कारण रट्टराज शिलाहारा उपरांत शिलाहाराची राजवट सोंपली. ताच्या अस्ता उपरांत षष्ठदेव कदंबान दक्षिण कोंकण जिखून घेतलें आनी चंद्रपूर (चांदर) ही आपली राजधानी वसयली अशें शणै गोंयबाबाचें मत. सन १०५२त राजा जयकेशी हाणें ही राजधानी व्हडल्या गोंयां व्हेली. शिलाहार-कदंबांचें झूज, झुजा उपरांतचें अराजक, एकाच शेंकड्यांत तीन राजधानयो पळोवपाचो योग त्या काळांत गोंयकारांनी घेतलो. हाचे जायते परिणाम जाले – (१) शिलाहार राजकुळयेचो अस्त, (२) वलिपत्तनाचो विध्वंस, (३) अव्वेश्वर देवळाकडेन जाल्लें दुर्लक्ष, (४) कदंब कुळयेन सुरवेच्या काळांत गोंय आनी गोंयांतल्या चालंत वेदीक धर्माची केल्ली उपेक्षा.

वयर आयिल्ल्या चवथ्या मुद्द्याचें स्पश्टीकरण अशें :

कंदब मुदलचे वेदधर्मी आसून तांणी जैनधर्म घेतलो आनी पर्थून आसात तशे ते वेदधर्मी जाले म्हणपाचें सिद्ध करूंक पाशाण बरपांनी आनी तांब्या पट्यांनी पुरावे मेळटात, अशें शणै गोंयबाब आपल्या 'गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक' ह्या ग्रंथांत पान. ४१/४२चेर म्हणटात. पान ४२चेर कदंबाविशीं मेळिल्ल्या दोन तांब्यापट्यांचो उल्लेख आयला. तातूंत १२४७तल्या तांब्यापट्यांत त्रिपूर दैत्याक मारून जैत जोडटकच म्हादेवाच्या कपलावेलो एक थेंबो कळमाच्या रुखाच्या आळ्यांत पडलो आनी ताचेपसून तीन दोळ्यांचो आनी चार हातांचो जयंत जल्मलो अशें सांगलां. इ.स. ११८७च्या तांब्यापट्यांत कदंबाचे पिळगेन अठरा अश्वमेध केल्ल्याचें म्हळां. हाचेवेल्यान कदंब वेदधर्मीय आशिल्ल्याचें सिद्ध जाल्यार लेगीत हो काळ कदंबांनी गोंय घेतले उपरांतचो. कदंब १०५० ते ११२५ ह्या काळांत जैन मत्ताच्या प्रभावा सकयल आशिल्ले.

पुर्विल्ल्या काळांत धर्मा धर्मा मदीं चलपी 'कोडसाण' लक्षांत घेतल्यार कदंबांच्या सुरवेच्या काळांत गोंयांतल्या चालंत वैदीक धर्माची उपेक्षा जाली अशें म्हळ्यार अतिताय जायना. हातूंत पर्वतावयलो अव्वेश्वर आसलो. जेन्ना कदंब कूळ वैदीक धर्माक लागीं गेले तेन्ना हेर दैवतां बांगडा अव्वेश्वराची पुर्नप्रतिष्ठापना जाली, पूण ताचें नांव चंद्रवाडये वयल्यान चंद्रश्वर पडलें. हो तर्क खूब लागिंचो दिसता. गोंयच्या इतिहासाचें संशोधन करपी शणै गोंयबाब आनी हेर इतिहासकारांक अव्वेश्वर होच चंद्रेश्वर हो तर्क मान्य आसा.

अव्वेश्वराचें नांव बदल्लांच हे समजणेक घटाय मेळपाचें कारण म्हळ्यार

साश्ट म्हालांतं पुर्तुगेजांनी अव्वेश्वराचें देवूळ मोडिल्लो उल्लेख येना. हाचोच अर्थ साश्टींत अव्वेश्वराचें देवूळ आसप गरजेचें. तें दिसना. देखून शणै गोंयबाबान चंद्रेश्वराक अव्वेश्वर म्हळा.

वयल्या गजालींतल्यान अव्वेश्वर वलिपत्तनाचें मुखेल दैवत आशिल्ल्याचें सिद्‌ध जाता.

वलिपत्तनाचें म्हत्वाचें दैवत म्हळ्यार शांतादुर्गा. तिका शांतादुर्गा बाळ्ळीकरीण म्हणटात. बाळ्ळी लागसार फातर्प्यां गांवांत शांतादुर्गा कुंकळ्ळीकरीण आनी शांतादुर्गा फातर्पेकरीण म्हूण आनीक दोन दैवतां दिसतात. तांकां थळावे भाशेंत कुंकळकान्न आनी फातर्पेकान्न म्हणटात. वलिपत्तनाचे त्रिजेंत आसपावपी हीं तिनूय दैवतां पुराय गोंयच्या समाजाचीं. सगळ्या थरांतलो लोक तांकां भजता. ह्या दैवतांक मेळपी म्हत्व पळेतकच वलिपत्तनाक निखटें राजपाटण म्हूण न्हय, तर धर्मथळ म्हुण्णूय म्हत्व आसलें म्हणपाचें सिद्‌ध जाता. राजाश्रयाबगर ह्या दैवताचें व्हडपण पुराय गोंयांत पावप अशक्य आसलें. हें म्हत्व ह्या दैवताक शिलाहाराच्या काळार मेळ्ळां आसूंक जाय. आयजूय बाळ्ळींत एक धर्मीक मठ दिसता.

[एम्.ए. (कोंकणी)च्या 'शणै गोंयबाबांले बरपावळिचो अभ्यास' ह्या पेपरांत अभ्यासक्रमाचो वांटो म्हूण सादर केल्लो सोद-निबंद.]

✲ ✲ ✲

**टीप:** सन १०१० वर्साचो तांब्यापटो, जाका वलिपत्तनाचो तांब्यापटो म्हूण वळखतात, तो खंय मेळ्ळो हें पोरणावळशास्त्राक खबर ना. जेन्ना ते संबंदिची चडावत माहिती उपलब्ध जातली तेन्ना वलिपत्तनाचेर आनिकय उजवाड पडटलो.

जोडल्यात: नकाशे – (१) चवथ्या शतमानांतलो भारत; (२) सातव्या शतमानांतलो भारत.

**संदर्भ:**


१. गोमंतक – प्रकृती आणि संस्कृती, खंड २
बा. द. सातोस्कर, शुभदा सारस्वत पब्लिकेशन, पुणे.
२. गोंयकारांली गोंयाभायली वसणूक
शणै गोंयबाब, गोमंतक छापखानो, मुंबय.
३. गोंयकारांलो मुंबैकार
शणै गोंयबाब, गोमंतक छापखानो, मुंबय.
४. कोंकणी विश्वकोश, खंड १, गोवा विद्यापीठ, ताळगांव-गोंय
५. An Historical Atlas of the Indian Peninsula, IInd Edition
C. Collins Davis, Oxford University Press.
६. Goa from Prehistoric Times
Antonio Mascarenhas, Vasco, pp 16, 17.
७. महाराष्ट्र व गोवे शिलालेख – ताम्रपटांची वर्णनात्मक संदर्भसूची
शांताराम भालचंद्र देव, महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ, पुणे.
८. सुनापरान्त दिवाळी अंक, १९९१, पा. ३६, ३७, ३८.
९. महाभारत खंड १ आनी २
रवीन्द्र केळेकार, जाग प्रकाशन.
१०. इथे अघनाशिनी तिरी
श्री. उल्हास प्रभुदेसाय, श्री चंद्रेश्वर प्रकाशन, गोंय.
११. गणेश पुराण


**नकासो १ – चवथ्या शतमानांतलो भारत**
**वलिपत्तन (बाळ्ळी) मूळ सुवात**




**नकासो २ – सातव्या शतमानांतलो भारत**
**सातव्या शतमानांतलें वलिपत्तन (बाळ्ळी)**



# ीर-सुवादीक कॉलम

ीलीप बोरकार

ब तेंपान डॉ. नंदकुमार कामत मेळ्ळो.
तांत आपली ब्रिफकेस घेवन ताकतिकेन वतालो.
वें ताका खंय वता काय म्हूण विचारपाचे त्रास घेतलेनात.
वामन भाटेल्या वर्षा बुक स्टॉलार वता हें हांव जाणा आशिल्लों.
त्याक, हांव थंय गेल्लों तेन्ना वामन सामको चिंताग्रस्त दिसतालो.
दकुमार एक दीस येना वो ताका येवंक कळाव जालो जाल्यार तो भिता.
ची अद्यर्यापरस चड अर्थवेवस्था नंदकुमाराचेर आसा.
च खातीर भाटे हेर गिरायकांची व्हडलिशी पर्वा करिना.
मकां जाय जाल्यार पुस्तकां व्हरात अशें म्हणत ताका किंकोत करता.
ाटेगेर वचपाचे ताकतिकेंत आसुनय नंदकुमार रावलो.
आरे, तुजो जागांतलो कॉलम खूब बरो आसता आं!'
ाच्या कॉमेंटा परस तो बऱ्या मुडांत आसा म्हूण म्हाका बरें दिसलें.
हजो कॉलम बरो आसता हातूंत दुबाव नाशिल्लो.
ंव कोंकणीवाद्यांक चिमटे काडटां तेन्ना मराठीवाद्यांक खातखुतल्यो जातात
ानी ते कॉलमाची तोखणाय करताले.
ेन्ना कोंकणीवादी कॉलम सामको 'फूंच' म्हणटात.
ंव मराठीवाद्यांक चिमटे काडटां तेन्ना कोंकणीवाद्यांक खातखुतल्यो जातात.
रो बरयतां आं तूं! असोच बरयत राव,
(म्हळ्यार, मराठीवाद्यांच्यो गाळी आनी मार खायत राव,) म्हणटात.
ऱ्या-वायटाचें हें लफडें चलतना एक दीस शणै गोंयबाब मेळ्ळो.
्हणूंक लागलो, हीं सगळी बाबत कुळां. तांचे वाटेक कित्याक वता?
ांगा शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार न्हय.
ंदरा वर्सां पयलीं हांव नवोच कोंकणीवादी आशिल्लों आनी
कोंकणी खातीर झगडटालों तेन्ना शणै गोंयबाब सपनांत येवन गेला आसत.
ूण उपरांत हांव साबुद्दीर आयलों तेन्ना ताणेंय म्हजो नाद सोडलो.
आतां तो कांय कोंकणीवाद्यांच्या कांट्यार बसून काम करून घेता.
ह्या दिसांनी जायते कडेन तेंच विधान आंयकूंक येता.
आतां हो कोंकणीवाद्यांचो कांटो म्हळ्यार कितें तें हांव नकळों.
हांवें पळयला तागडेक आसता तो कांटो.
हेर कांट्यांर तसो कोण केन्ना बसूंक शकना.
पूण तागडेच्या कांट्यार बसल्यार मात दार्ली सकयल वयर जावन लाव करून घेवं येता वो दिवं येता.
त्या वेळान वजन आनी माप खातें संजय बांदेकाराकडेन आसल्यार लेगीत चिंता ना.
तागडेकार कांट्यार केन्ना नियंत्रण दवरूंक जाय तें बेस बरें जाणा.
असल्या तागडेच्या कांट्यार शणै गोंयबाब लक्ष दीत सो म्हाका दिसना.
आसूं! तर हांव शणै गोंयबाब म्हणटालों तो दोतोर राजेंद्र हेगडेक.
दोतोराचो कोंकणीवेलो मोग पळोवन म्हाका दोतोर हेगडो म्हळ्यार शणै गोंयबाब दिसता.
ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें दरेक उतर म्हळ्यार शणै गोंयबाबाचो मंत्र अशें दिसता.
देखून हांव 'कोंकणीच्या हिताविशीं दोतोर जें कितें सांगता तें शणै गोंयबाबाचें उतर मानून जिकून घेतां.

कांय काळा पयलीं अशोक भोंसलो म्हाका शणै गोंयबाब दिसतालो.
त्याचे बोलणे, त्याचे वागणे, त्याचे चालणे, वा!
कोंकणी खातीर तो आपली नोकरी लेगीत सोडूंक तयार.
बाकिचे लोक कोंकणीच्या नाड्यार नोकरी घेवंक सोदतात.
आनी हो आपली आशिल्ली सरकारी नोकरी त्यागूंक पळयता.
म्हळें, कोंकणीच्या फुडाराची चिंता करपाची आतां गरज ना.
पूण कथाकार अशोकबाब शंकर भांडाऱ्याच्या प्रभावाखाला आयलो.
आनी पुरायेन शंकर भांडारी जावन गेलो.
आंतोनबाब मोरायस ही आनीक एक कोंकणी व्यक्ती.
ताची कोंकणी भास आयकून होच शणै गोंयबाब अशें म्हाका दिस.
तांच्या तोंडांतल्यान शणै गोंयबाबूच उलयता असो म्हाका दिश्टावो जाल्लो.
पूण इतली शुद्ध भास सावरकराकूच सोबताली अशें म्हाका कोणें तरी म्हळें
आनी हांवें मोरायसबाबाचो नाद सोडलो.
आतां म्हजे मुखार एकूच आदर्श आसा तो दोतोर हेगडो.
म्हज्या मनांतलें ताचें स्थान कोण हालयत अशें म्हाका दिसना.
देखून जेन्ना ताणें ह्या बाबत कुळांचे वाटेक वचूं नाका म्हळें,
तेन्नाच्यान हांवें खऱ्यांनीच तांची वाट सोडली.
पूण मडगांवां वतना जशें कुठ्ठाळे लागता वो पणजे वतना शिरदोन लागता तशें कितेंय तीर-सुवादीक बरयतना ह्या बाबत कुळांक आपटतां तेन्ना करप कितें?
खऱ्यांनीच सांगतां, उपाय नासून आफुडचें पडटा.
आतांच पळयात, नंदकुमार मेळ्ळो.
मेळ्ळो आनी म्हणूंक लागलो, तुजो कॉलम बरोऽऽ जाता.
तो उदय गुडे लेगीत पोरा तूं फणफणत राव म्हणचें तशें
तिरा तूं सणसणत राव असो सल्लो दिवन तोखणाय करता.
पूण ताचे तोखणायेन भुल्लुसपाक हांव सुदेश लोटलीकार थोडोच.
बाळकृष्ण कानोळकार वो शिवानंद तेंडुलकार हांणी
तोखणाय केल्ली जाल्यार वेगळी गजाल.
आयज तेच गोंयचे सर्वमान्य समिक्षक वो टिकाकार अशें निश्चित जालां.
तांकां म्हज्या कॉलमाचेर बरोवंक उसरपत मेळटली तेन्नाच म्हजें नशीब फळफळटलें.
ते मेरेन हांवें नंदकुमार कामतीचेरूच समाधान मानपाचें.
पूण हांगा नंदकुमार कामतीन आपल्या विधानाक आनीक एक विधान जोडलें.
'तुजे सारको श्रेश्ठ साहित्यिक गोंयांत दुसरो ना अशें म्हजी बायल म्हणटा.'
नंदकुमाराचें आदलें विधान एकवेळ सोंसपा सारकें आशिल्लें.
नंदकुमार बकच्छायो करता, पूण मर्यादेन.
पूण ताचें दुसरें विधान म्हळ्यार गोंयांत धुस्पट घालपी.
हे गोंयचे मातयेंत कितल्यो म्हान लेखिका आसात.
तांणी गोंयचींच न्हय तर हेर राज्यांतलीं लेगीत इनामां हातासल्यांत.
तरी तांणी चुकून लेगीत केन्ना खंयच्या लेखकाची तोखणाय करूंक ना.
वेल्यान लेखकांक आनी तांच्या लेखनाकडेन कुच्छित्रीपणानूच पळेलां.
अशा वातावरणांत नंदकुमाराचें विधान तांच्या कानार गेल्यार कितें जातलें?

ह्या शांत आनी सुशेगाद गोंयांत एकदम यादवी माजतली.
गोंयच्यो बायल लेखिका दादले लेखकांचेर पयलीं सावन जळत आयल्यात.
तांचें म्हणणें, तांचेर सदांच दादल्यांनी अन्याय केला.
साहित्याक पुरस्कार दितना टक्केवारिचें संतुलन केन्ना सांबाळूंक ना.
साहित्य अकादमीचो पुरस्कार दितना तो एक वर्स दादल्यांक
आनी एक वर्स बायलांक दिवंक जाय आशिल्लो.
पूण तें अजून मेरेन कोणें मनार घेवंक ना.
चंद्रकांत केणी आपल्या साहित्यांतल्यान बायलांचे प्रस्न
समर्थपणान मांडटा अशें बायलांच म्हणटात.
पूण होच प्रस्न तांच्या हातांतल्यान कसो सुटलो हें तांकांय खबर ना.
ते साहित्य अकादमीर इतलीं वर्सां रावले त्या वेळार तांणी हो प्रस्न घेवं येतालो.
पूण त्या वेळार बायलांच्यो अपेक्षाय उण्यो आसूं येतात.
त्यो वाडल्यो आनी ज्युस्त त्या वेळार फेलीक्सबाब कार्दोज अकादमीर पावलो.
साहित्य अकादमीचें सोड, कला अकादमीन तरी बायलांक खंय न्याय दिला ?
एके कोंकणी लेखिकेक तरी तांणी प्रतिनिधित्व दिवंचें आसलें.
प्रतिनिधित्व ना तें आसूं.
निदान पुरस्कारा खातीर तरी आरक्षण दवरूं येतालें.
पयलीं कोंकणी पांच आनी मराठी पांच अशे पुरस्कार आशिल्ले.
संख्या चड जाल्ल्यान एक दोन बायलांचो विचार जावं येतालो.
पूण कोणें तरी अक्कल लडयली आनी त्या पुरस्कारांत मोठ्या प्रमाणांत कपात केली.
पांचांवेल्यान एकदम एका-एकाचेर पुरस्कार हाडलो.
मराठीचो वांटो मराठी घेवन गेली.
कोंकणीच्या वांट्याच्यो मात भोयो भोयो.
दादल्यांकूच वांटणी करता म्हणसर नाका शेवट.
थंय बायलांकडेन कोण लक्ष दिवंक वता ?
बरें, गोमंत शारदा दितलों म्हळ्यार तसले तांकिची बायल
कोंकणीच्या मळार खंय आसा ?
तांकिची आसतूय पूण पिरायेची आसूंक नाका ?
नाय म्हळ्यार कमलाबाय देशपांडेचो विचार करूं येतालो.
पूण तिका दिल्यार बायलां बायलां मदीं
वितुश्ट येवपाची शक्यताय आसा.
तें टाळपा खातीर कला अकादमीच हे भानगडींत बायलांक ओडूंक सोदिना खंय !
अशी ही गोंयची विचित्र परिस्थिती आसतना नंदकुमाराची घरकान्न
म्हज्या साहित्याचेर बरें मत उकतायता.
तिका साहित्य पारखुपाची जाण आसा आनी
तिचें मत शुद्ध आसा हें मान्य करूं येता.
पूण तिणें आपलें विधान जाहीरपणान मांडलें जाल्यार
गोंयांत उजो पेट्टलो.
किरण, चंद्रलेखा, तडकोड हीं साहित्य समिक्षेंतलीं दिग्गज
विनाकारण तोडफोड करतलीं.
आर्दीच एके बायलमनशेन देशांत गोंदळ माजयला.
देशी दादल्यांचें हे विदेशी बायलेकडेन आकांताचें झूज चल्लां.
तिच्यान रागान देशांत आसात ते थोडे म्हूण नवे नवे पक्ष तयार जावंक लागल्यात.
गोंया भायर कितें जाता तें जावं आशिल्लें.
तांचें तें पळोवन घेवपाचें.
पूण ती गोंयांतूय आयली आनी सगळें राजकारणूच इबाडून उडयलें.
कितल्याशा जाणांच्या सपनांचो गोबोर केलो.
सांगलें आसत गोंयच्या भाजपान गोंयच्या लोकांक,
आमी आठूच जाणांचें मंत्रीमंडळ घडयतले.
गोंयांत भाजपाचे आठूच लोक निवडून येतले म्हूण तांकां खबर आशिल्लें.
ते तांकां मंत्री करूं वा आनीक कितेंय करूं.
तुका शिताफुडें मीठ खावन सच मंत्री करतलीं म्हणपाचें
कित्याक उलोवंक जाय आशिल्लें ?
भाजपाची तुळा तूं तुजे काँग्रेसी कडेन करता ?
ते बाबडे नवेच वेंचून येवपाचे. तांकां मंत्री जातकच
कितें कितें जाता हें खबर नाशिल्लें.
म्हणटकच कोणाकूय मंत्री केल्यार कोणाच्या पोटांत दुखपाचें नाशिल्लें
वो पक्षांतर्गत धुसफुसूय जावपाची नाशिल्ली.
तुज्या पक्षांत तर आर्दीच पांच मुखेलमंत्री जावपाचे लायकिचे फुडारी आसात.
हेर कांय जाण हे आर्दी कितलोसो काळ मंत्री जावन जियेताले.
हाची तांकां आतां इतली संवय जाल्या की तांकां मंत्री म्हूण
जगपा बगर जगुंकच जमना.
अशा वेळार त्या भाजपाक लागून मंत्रीमंडळांक वंय घालप ?
गोंयचे आदले मंत्री रस्त्यार पडपाकडेन पावल्यात
आनी तेय बी तुज्या उतरांक लागून.
तूं जावेद अख्तराकडल्यानूच भाशणां बरोवन घेवन वाच पळोवया.
गोंयच्या लुइझीनाचें आयकून कित्याय कितें उलोवं नाका.
ताणें आपलो आनी हेर पांच जाणांचो फुडार पळयलो.
सोमनाथ, मॉवीन, सुभाष हांचें कितें जातलें हें मात लेगीत चिंतलें ना.
आतां सोमनाथाचेंच पळयात.
ताका मंत्रिमंडळांत सुवात दिली ना ही गजाल पळोवंक अशीऽऽ दिसता.
पूण ताका लागून ताणें कोणाचो कोप ओडून घेतला
हें ताका खबर ना.
पांच हजार वर्सांचो इतिहास काडून पळयत जाल्यार तें कळटलें.
... हें सगळें घडूंक पावलें,
एके बायलेन जाहिरपणान केल्ल्या विधानाक लागून.
तिणें फुडाराचें चिंतून जिबेर नियंत्रण दवरिल्लें जाल्यार
परंपरे प्रमाण चौदी मंत्री करूंक मेळपाचे.
हेरांक वेवस्थीत महामंडळां मेळपाचीं.
म्हणटकच कोणाचीच धुसफूस नासपाची.
कोण फुटून वचून सरकार उडयत हाची भिरांत नासपाची.
काँग्रेसचें सरकार पुराय पांच वर्सां तिगून उरपाचें.
लुइझीनाकूय पांच वर्सां सुस्त न्हीद पडपाची.
म्हजे सारक्याकूय तिकेटी फाटल्यान लागपाचो
पांच वर्सां तरी हुसको नासपाचो.
निदान हांव ह्या पांच वर्सांत ज्ञानपीठ नदरे मुखार दवरून
कितें तरी बरेंऽऽ बरोवंक पावपाचों.
सगळी वाट लायली ते एके बायलमनशेन.
नाका जाल्लें विधान करून.
म्हणून खंयचेय बायलेन म्हज्या साहित्याचेर विधान केलें जाल्यार हांव भियेतां.
विनाकारण कोंकणी समाजांत घुसपट जावंची न्हय
हेच शुद्ध भावनेन.

* * *

# ...भिरकटावप

...मूळ इंग्लीश : गुलजार
...णकार : शंकर रामाणी

...ाबी हातांच्या
...गेल्या माणकुल्याचें भिरकटावप
...ी फासूं नाकात.
...आसा तशेंच
...सुंदी.

...शीं ताका
...सलोच आकार,
...कृती ना
...ण कितें जालें ?

...तुंतल्यान
...ाका झळकतात
...ज्या बाबुल्याचे हात.
...ज़ी वळख
...ाका पट्टा.

# तुमचे खातीर

□ मनोहरराय सरदेसाय

तुमचे खातीर खातां वीज
तुमचे खातीर रोयतां बीं
उतरांच्या इंगळ्यांचें
आनी हांव चोयतां वाट
वाव आनी वादळाची.

गोबरांतल्या इंगळ्यांतल्यान
येतलो उजो जिबो चाटीत
आनी हाडां पेडां दोंगर
धगा सकला कडटले.

ऊंच ऊंच बंदखणिचीं
मस्त दारां लोखणाचीं
मेणावरी कडटलीं
आनी काळजां कापसाचीं
सवाय सपनां कथलाचीं
हुलपतलीं करपतलीं
आस्त मात भांगरावरी
प्रीत मात मळबावरी
उजवाडान भरतली.

एका खिणांत तुमी राजा
पांचव्याचार शेताचे
पिकाळ मोगाळ मातयेचे
जिवा भंयान मारा भंयान
होगडायल्ले माय-भुंयेचे.

राग गिळटां, वाट चोयतां
त्या खिणाची, त्या खिणाची
आनी तुमच्या काळजा शेतांत
तांबडें गुंज रोयतां बीं
उतरांच्या इंगळ्यांचें...

(पारिस, २५-१०-५४)

# नवस

□ माधव बोरकार

'देठांतल्यान
नाका खुंटू
म्हाका'
म्हणटा पान

देवा पांयार
ओंपचेलो
नवस
केला फुलान...

# कोर

□ माधव बोरकार

मोगरे हळयेची
बिये कोर
तुज्या आंबाड्यार...

चंवरी नक्षत्रांची
झडटा
काळजा गोंड्यार...

# आजोळ आल्बम

□ राजय रमेश पवार

काल शोकेस निवळ करतना
एका खणांत आशिल्लो
आजोळ आल्बम मेळ्ळो.

✻ ✻

हो पयलो फोटो
हांव ल्हान आसतना
आंगणांतले तुळशीकडेन काडिल्लो
हे तुळशी म्हऱ्यांत आजी
थरथरत्या हातान
सांजची निरंजन पेटयताली
आतां... ते हात
पयस वचत सावन
आख्खी तुळसूच
थरथरूंक लागल्या.

✻ ✻

आनी हो फोटो
हांवें काडिल्लो
घरामुखाल्ल्या आंब्यामुळांत रावन
आख्खें 'मामाघर'
हातूंत सोबून दिसता
पूण... आतां
'मामाघर' बदल्लां
मामान तें 'रिनोवेट' केलां.
हेच पडवेर बसून
आजी म्हाका काणी सांगताली.
आयज हे पडवेचीच
एक काणी जाल्या.

✻ ✻

ह्या फोट्यांत पळय
आजी दांत्यार बसून दळटा
म्हजेखातीर लाडू करपाक
ती मुद्दाम दातें मांडटाली
... तें दातें आतां
खंयच्या कोनशाक पडलां काय?

पुराय आल्बमांत
ही एकूच सुवात रिती आसा
हे रिते सुवातेर
म्हजे आजयेचो फोटो आशिल्लो
... आजी गेली तेन्ना
'ॲनलार्ज' करपाक दिल्लो
कामाचे गडबडेंत हाडूंक पावलों ना
आतां... घडये तो
फोटोग्राफरान शेणयलाय आसतलो.

✻ ✻

हो आज्याल्या गोरवांचो फोटो
आजो भायर पडटकीच
गोरवां विकून उडयलीं
ही गाय आनी पाडकां पळयतकीच
म्हाका आजयेची याद येता...
आमी सगळीं नातरां
पाडकां कशीं तिचे भोंवतणी
नाचतालीं...

✻ ✻

आजोळ आल्बमांतलो
हो निमणो फोटो.
फोट्यांत दिसता तें
आजयेचें लाकडाचें पेटूल
म्हजें भुरगेंपण
आजयेच्या यादिंनी गुठलावन
ह्या पेटलांत उल्लां...
केन्ना, पेटूल उगडचेंशें दिसता
पूण... पेटलाक कुलप आसा
आनी चावी घेवन...
... आजी केन्नाच पऽऽयस गेल्या.

# झोपाळे

□ परेश नरेंद्र कामत

कुसव्यांत तुगेल्या वाजता गर्भाचीं
पावलां पैंजणावरी;
थपथपून मन कुळारा तुगेलें
सारवता आंगणावरी

दिश्टेंत खोल आस घरावी :
तुजो देह तुडूंब भारावलेलो;
सळसळ दुकांची पांगुरतना –
भल्ल्या उमाळ्यांचो तोल गेलो...

वाडत वतना सरसर वेणो
सुख-दुख्खाचे पेशीपेशींत;
व्हाळ उजवाडाचो देंवता दुधाळ
थानांतले गांठीगांठीत

रात खर वेणांची सरता;
सरकता गर्भावरी झंजळून वारें;
चान्न्याचे मेणायेंत बुडबुडत –
तुगेलो, चंद्र घेता झोपाळे...

# प्रार्थना : एका निस्वार्थ मनशाली

□ पी. जी. कामत

देवा! माका तुला एकी एक मागणी
कांयूच नाका माका.
तूं माजी प्रार्थना आयकता,
तेंच पुरो माका.
देवा! माजी बायल
सौभाग्यवती की न्हय, कळना माका.
पुण कळता एक –
ती पतिव्रताशिरोमणी.
देखून तिचे विशीं एक आसा आशा माका.
फकत एक.
ती तूं आयक आनी सुफळ कर –
माजी बायल आसूं अविधवा सदां.
त्या अमोघ आशेन, आपण तुजो भक्त
जियेतां.
आनी तिकाय आसा आशा
एकीच एक –
सुमंगली जावन हांगाच्यान वेंची.
ती तुर्तच पुर्ती कर रे देवा!
कांयीच कळाव करूं नाका.
शत शत नमन तुका.

# सपन

□ राजश्री म. सैल

एक सपन उजवाडाचें
एक सपन काळखाचें
सपनांत फुट्टात
पांखांर पांखां
हातांक पांखां
पांयांक पांखां
सपनांत जातात
दोंगरार घरां
घरां कसलीं
झाडां भशेन
पांचवींचार
पाळां मुळांचीं
हरवे रसणायेचीं
सपनांत येता
परमळ दैवी
असो अरमळ परमळ
भुरगेपणांतल्या रेंवे घराचो
खेळ खेळगड्याचो
अशें सपन
पडटा रंगांचें
कितले रंग
कशे सांगचे
कितले गंध
रंग गंधांचो असो
अपूप खेळ

सपनांतल्या संवसारांत
कितली कल्पकता
कितली सर्जकता
आनी सपनांत
सुचता उतरांचो
तो अपूप खेळ
आनी उतरता
मनपटलार
एक पुरायेन
काळोखी परिपक्व
मरणपाखी धवीफुल्ल
कविता.

# चंवळ्यो

□ पूर्णानंद च्यारी

मानवतेचो संदेश दिवप्याक
दर दिसा खुर्सार मारतात
तरूय एक कळना
'गुड फ्रायडे' फ्रायडेच कित्याक येता?

✻ ✻

सवलती घेतना, कांय जाणांक
'जात' म्हळ्यार एक वरदान आसता.
जाती आदारान वयर सरलो म्हणटकच
तेच सकले जातिची लज दिसूंक लागता.

✻ ✻

पंदरां रुपयाचे बिस्किटी पुडे घेवन
सोयरे भितर सरले
जेवन-खावन भायर सरतना
धेंकर दिवंक मात विसरले.

✻ ✻

व्हिस्किचे दोन ग्लास रिते करतकच
सगळो संवसारूच सर्ग दिसूंक लागलो.
तीन ग्लास ताळ्यांत वता म्हळ्यार
दिसलें, हांव भांगरूच कडोवन पिलों.

✻ ✻

तीं दोंगरा तेमकां कशींय न्हिदतात.
केन्ना भोकां वयर करून, केन्ना थानां.
केन्ना काना पोंदा हात मुंगरून
एकेच कुशीक ताणून दितात.

# आदिपूत

□ मंगला शिवदास

हांव एक अजल्मी माता
आदिमाता
तूं एक अजल्मो पिता
आदिपिता
आमचो पूत एक अजल्मो पूत
आदिपूत.

हांवें म्हज्या गर्भकुसव्यांत
वीर्य तुजें केन्ना
खेळयलें ना, केळयलें ना
रिचयलें ना, पचयलें ना.

तुज्या म्हज्या रक्ताच्या अणूरेणून
जीव नवो घडटना
आंगार म्हज्या केन्नाच
मोरापांखां फुललींच ना.

गर्भारपणाचें रसरशीतपण केन्ना
आंगार म्हज्या चंवरलेंच ना
गर्भारपणाचो भार केन्ना
कुडीक म्हज्या पेललोच ना.

आदिपूत म्हज्या गर्भकुसव्यांत
गर्भा विरयत जल्मलो
आनी तुजो वंश
हे भुंयेर किल्ललो.

आदिपूत – अजल्मो – अजर – अमर
भुंयेर हे घडयतलो
न भूतो न भविष्यति
अद्‌भुत इतिहास.

तुज्या वंशाची कीर्त
दिग-दिगंतरां पावयतलो
अमूर्त-अदृष्ट ब्रह्मांडाचो
अजल्मो अनभिषिक्त सम्राट
म्हूण सासणाचो मिरयतलो.

# देवळांतलो धोल

□ संतोष जगन्नाथ महाले

हे देवी,
तुज्या देवळांतलो धोल
म्हज्या गळ्यांत घालून
म्हाका बडोवचो आसा.

धोलार जेन्ना पडटली तोणी
तेन्ना खुदतलो कुड्डेपणाचो अंवस्कर
आनी खुबळटले परंपरेचे भोगी
देवळाचे गर्भकुडींत आसनमांड घालून
बसल्या तूं ओगी.

शस्त्रांधारी तुका हात चार
पूण खंय गे तांकां धार ?
तुज्या नांवान चलता खपता
ताका अंत ना पार
दोळे तुजे आसून उकते
येना तुजेर भार.
देखून म्हणटां,
तुज्या देवळांतलो धोल
म्हज्या गळ्यांत घालून
म्हाका बडोवचो आसा.
भर दनपरां न्हिदिल्ल्या गांवच्या लोकांक
तुज्या धोलां आवाजान
म्हाका जागोवचे आसा.

# कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयला




(दुसरो वांटो)

नागेश करमली

दिश्टाव्याचो उजवाड दिसलो. आनी कोंकणी संबंदांत अदीक आनी अदीक जाणा जावन घेवपाची उमळशीक लागली. पूण ते खातीर कितें करचें तें कळना जालें. आयच्या तरणाट्यांक म्हजें म्हणणें अजापाचें दिसतलें. कारण, आज तांचेखातीर जीं साधनां आनी ज्यो सुविधो आसात, तांची म्हजे तरणेपणाच्या काळार हांव कल्पनाय करूंक शकनासलों.

केपें सारक्या गांवांत त्या काळार एक सरकारी मुळावी शाळा, एका घरांत एक खाजगी मुळावी शाळा आनी कोणा एकाचे घराचे चौकेर चलपी तीन-चार वर्गांमेरेन इंग्लेज शिकोवपी एक शाळा, इतलें सोडल्यार आनीक शिक्षणाची सोय नासली. आनी हें सगळें केपें गांव केपें म्हालाचें मुखेल थाणें आसतना. गांवांतल्यान वचपी एक मुखेल डांबरी रस्तो सोडल्यार हेर सगळे मार्ग मातयेचे आसले. गांवांत पसरे, दुकानां आनी बाजाराचो तिंटो बी आसलो. पूण ही सगळी मांडावळ गांवांतल्यो तितलेपुरत्यो गरजो भागोवपी. केपें गांवाक तेन्ना वेपार धंद्याखातीर लागिंची बाजारपेठ म्हळ्यार मडगांव. कुडचडें-सांवड्डेंची बाजारपेठ केप्यांक सामकी लागिंची. पूण ती निकतीच आकार घेताली. आयचेवरी वीज नासली. रेडियो आशिल्ले पूण ते सामके हाताच्या बोटांर मेजपाइतले. म्हजे सारक्याचे नदरेन तर तेन्ना ती अप्रुपाची गजाल. आयचेवरी येरादारिची वेवस्था नासली. केपेंच्यान मडगांवां येतलो वेतलो जाल्यार थरावीक अश्यो तेन्नाच्यो कारेंरी आसल्यो. बशी येवंक नासल्यो. आतां सारक्यो रासभर मोटारगाडयो नासल्यो. स्कुटरी तर नासल्योच. नेमाळीं, पुस्तकां बी आतांभाशेन नासलीं. कांय घरांनी आनी व्हडल्या सरकारी अधिकाऱ्यांगेर पुर्तुगेज भाशेंतलीं नेमाळीं येतालीं. मराठी बी नेमाळीं मडगांव वा कुडचडेंच्यान हाडचीं पडटालीं. तींय बी मुंबय वा पुणेंच्यान रेल्वेन येतालीं. आनी एक दीस वा केन्ना केन्ना दोन तीन दीस उसरां पावतालीं. लोकांच्या हातांत आयचेवरी पयसो घोळनासलो. म्हगेल्या बापायचो पसरो आनी च्याचें दुकान आसलें. ताचेरच आमचें सगळें चलतालें. आलायत्या कामाक खर्च करपासारकी आमची परिस्थिती नासली. देखून, इत्सा आसुनय कितेंय करतलो, नवें कितेंय शिकतलो, वाचतलो, समजून घेतलो वा दुसरेकडेन खंयय वतलो जाल्यार कसलेंच सोंपेपण नासलें. हें सगळें, मूळ विशयापासून मात्सो कुशीन सरून जायना, म्हज्या तरणेपणांतली परिस्थिती आयच्या वाचप्यांक कळची इतलेच खातीर सांगलां.

गोंयचे व्हड झुजारी पत्रकार हेगडो देसाय हांचें 'भारत' हें साताळें पुर्तुगेज आनी मराठी भाशेंतल्यान केपें थावन उजवाडा येतालें. ताचे अंक वाचूंक मेळटाले. हे आदीं जाचो उल्लेख येवन गेलो त्या बालोन्नति समाजाच्या वाचनमंदिरांतलीं पुस्तकां हांव अदीं मदीं हाडून वाचतालों. तरी पूण हातुंतल्यान कोंकणीविशीं अदीक अदीक जाणा जावन घेवपाची म्हजी इत्सा भागनासली. कोंकणी भाशेंतल्यान वाचपाक तर कांयच मेळनासलें. कोंकणी संबंदांत कितेंय समजून घेतलो म्हळ्यार तसलो कोणूय त्या आसमंतराक नासलो. १९४६ वर्सा जुनाचे १८ तारकेर गोंयच्या क्रांतिपर्वाक आरंभ जातकीच बाकीबाब बोरकार सरकारी शिक्षकाची नोकरी सोडून केपेंच्यान गोंयाभायर गेल्ले. तशें पळोवंक गेल्यार, साहित्यांत रूच घेवपी, पुस्तकां बी वाचपी आनी केन्नाकेन्नाय आपणें वाचिल्ल्या पुस्तकाचेर आपसांत चर्चा करपी कांय जाण आसले. कोर्टकचेरेच्या कामाखातीर हांतले जायते जाण दुसरेकडच्यान केप्यां येताले. आमचो पसरो-दुकान ह्या कोर्टालागींच (तेन्नाचें त्रिबुनाल) आशिल्ल्यान, हांतले बरेचशे जाण आमचे थंय पावताले. आमच्या दुकानांत तांकां बरो विसव घेवंक मेळटालो. थंय बसून तांच्यो गजाली चलताल्यो त्यो म्हाका आयकूंक मेळटाल्यो. पूण त्या गजालिंनी कोंकणीविशीं आपलेंपण उकतावपी कांय एक नासतालें. जनाप्पा कामत हे केप्यांक लागीं पाड्डेंचे. तेय आमगेर पावताले. कुंकळ्ळेचे गोपीनाथ कृष्ण कुराडे हे तर अदीं मदीं कोर्टाच्या कामांखातीर केप्यां येतालेच. जनाप्पा, कुराडे आनी कोर्टांतले वकील बी एकठांय जमले म्हणटकीच तांच्या गजालिंनी जे विशय येताले तातूंत मराठी, महाराष्ट्र, भारतांतलो स्वातंत्र्य लढो हें सगळें येतालें. जनाप्पा गोंय, हिंदू समाज, मराठी, महाराष्ट्र हे विशीं पोटतिडकेन उलयताले. १९५६चे चळवळी उपरांत जनाप्पा गोंयाभायर गेले. आनी ते उपरांत भारतीय स्वातंत्र्य लढो, गोंय, महाराष्ट्र, मराठी हे विशिंच्यो गजाली आमच्या दुकानांत बसून चड उकतेपणान उलोवपी इल्ले इल्ले उणे जाले. तातुंतय भितर, विशय आयलोच जाल्यार सांबाळून उलोवप जातालें. कारण १९४६त सुरू जाल्ले चळवळीआड पुर्तुगेजांनी खर दडपशाय सुरू केल्ली. चळवळिची मुखेल घोशणा आसली 'जयहिंद'. तिका लागून सबंद चळवळीकच 'जयहिंदाची चळवळ' हें नांव पडिल्लें. हे चळवळींत आसा तो 'जयहिंदवालो' आनी हे चळवळी कडेन आपलेपणान पळयता तोय जयहिंदवालो आनी हे चळवळी विशीं उलयता तोय जयहिंदवालो (म्हळ्यार पुर्तुगेजांचे भाशेंत 'जयहिंदिश्त') अशें पुर्तुगेजांनी समीकरणच करून उडयिल्लें. जयहिंदवाल्यांची पुर्तुगेजांकडल्यान सुटकावाट नासली. ते भायर दुसऱ्याक लावन दिवपीय आसले. हाका लागून राष्ट्रवादी विचाराचे मनीस भारतीय स्वातंत्र्य वा गोंयची सुटका हे विशीं उलयता करतना खूब जतनाय घेताले. ह्या सगळ्या गजालिंचो म्हजेरय परिणाम जातालो. एके वटेन खूब कितें जाणून घेवपाचें मनांत आसुनूय परिस्थितीक लागून तें शक्य जायना हाची खंत भोगताली. पूण दुसरे वटेन जयहिंदाचे चळवळींतल्यान गोंय कूस परतिता, भारतीय स्वातंत्र्य लागीं येता, भारत स्वतंत्र जातकच आमचेय बंदपास तुट्टले, आमचेंय भाग्य फळफळटलें हें चिंतून मनाक थाकाय मेळटाली. काळीज उर्बेभरीत जातालें.

हेच उर्बेभरीत अवस्थेंत अकस्मात एक दीस, म्हजे उमाळे उतरांनी बरोवन काडचे अशें म्हाका दिसलें आनी हांव बरोवंक बसलों. जें कितें पयलेंच वांकडें-तिकडें बरयलें ती एक कविता आसली. ती मराठींत आसली. कोंकणीचो उजवाड दिशिल्लो खरो. पूण कोंकणींत कितें तरी बरोवचें हे नदरेन अजून तिची बुनयाद घट्ट जावंक नासली. ते भायर मूळ शिकप मराठींत जाल्लें. वाचपय अदीकशें मराठींतच जाल्लें, जातालें. पयले कविते उपरांत आनिकय तश्योच कविता आनी दुसरेंय कितें कितें बरयलें. सगळें 'स्वान्तसुखाय'! छापूंक धाडपाचो वा छापून हाडपाचो प्रस्नच नासलो. कारण तसलें सोंपेपणच नासलें. 'भारत' सातांळें आसलें. पूण हांवें बरयल्लें तातूंत छापून हाडपाचो धिरच जालो ना. कोणूय कितेंय म्हणीत जाल्यार! असली भिरांत मनांत आसली. प्रभाकर भेंब्रो, शांतानंद कुंकळयेंकार बी म्हज्या इश्टांक हांव म्हजें बरयिल्लें वाचून दाखयतालों. ते म्हजी तोखणायूय

करताले. पूण् कोणाय जाण्त्यांक अजून मेरेन हांवें म्हजें बरोवप दाखोवंक नासलें. आमचे थंय आमचेच गांवचो गोविंदबाब बेणो अदींमदीं येतालो. ताका साहित्याची आवड आसली. तो मराठींतलीं बरीं बरीं पुस्तकां वाचतालो. तागेलीं कांय पुस्तकां केन्ना केन्नाय म्हाकाय वाचूंक मेळटालीं. पिरायेन तो म्हाका जाणटो, बापायचे पिळगेचो. हांव कितें बरोवन बरोवन दवरतां तें अकस्मात एक दीस गोविंदबाबान पळयलें. तांणी म्हाका शाबासकी दिली आनी वांगडाच शिटकायलोय बी. तांणी म्हाका सांगलें, ''बरोवपाची घँटी आसा तुजेकडेन. पूण तुगेली भास सामकी कच्ची आसा. बरी मराठी बरोवंक अजून खूब अभ्यास करूंक जाय. खूब खूब वाचूंक जाय.'' शाबासकेन फुल्लों, पूण ताचेफुडें जें कितें आयकलें तातुंतल्यान मात्शी निर्शेणी आयली. ज्या इश्टांक हांव म्हजें बरयिल्लें वाचून दाखयतालों तांकां ही गजाल सांगली. तांणी म्हाका धीर दिलो. म्हळें, ''प्रयत्न कर. सुधारतलें. बरयतां बरयतां एक दीस बरें बरें बरोवंक लागतलो.'' घरांतल्या मनशांक म्हजें 'धव्यार काळें करप' चल्लां हें खबर नासलें. पूण तशें म्हज्या बरोवपाचें कोणाक कांय एक पडूंक नासलें. कारण, असले 'उपद्व्याप' आमच्या परिवारांत हे आदीं कोणेंच करूंक नासले.

मेळटात तीं पुस्तकां वाचप आनी 'स्वान्तसुखाय' कितें तरी बरयत रावप हें सगळें चालू आसतनाच केप्यांतलो एकलो दर्जी, मुंबयंत उजवाडा येवपी कोंकणी नेमाळीं विकरेक हाडूंक लागलो. तीं रोमी कोंकणींत आसतालीं. तेन्ना म्हाका रोमींतली कोंकणी वाचपाची तितलिशी संवंय नासली. मुंबयच्या नेमाळ्यांक लागून हांव ती कोंकणी वाचूंक लागलों. मनांत म्हळें, रोमी लिपयेंत जायना, कोंकणींत कितें तरी नेमान वाचूंक मेळटा हीच मोठी भाग्याची गजाल! ह्या मुंबयच्या नेमाळ्यांनी 'चाबूक' नांवाचें साताळें आसतालें. भास, विशय, मांडावळ हे नदरेन हें साताळें हेरां नेमाळ्यांपरस, तांतले तातूंत बरें आसतालें. 'चाबूक' वाचतां वाचतां रोमी कोंकणींतल्यानय हांव कितें कितें बरोवंक लागलों. तेंय बी परतून 'स्वान्तसुखाय'च! बरयिल्लें कितेंय 'चाबूक' सारक्या साताळ्याक धाडून पळोवं येतालें. पूण तशें करपाचो धीरच जायना आसलो.

असोच कांय काळ गेलो. मदेकांत १९५० वर्सा म्हजो बापूय भायर पडलो. घरची आर्थीक परिस्थिती बरी नासली. बापायल्या पसऱ्या-दुकानाचेर घरखर्च भागना आसलो. त्याच वेळार गोंयांत खणिंचो धंदो नेट धरूंक लागिल्लो. एका बऱ्या मागत्या खणवाल्यान तागेले खणीर म्हाका सुपरवायझराची नोकरी दिली. नोकरी केप्यांसून पयस तुडव-नेतुल्लेच्या दोंगरगांवांत. थंय खंयचीं पुस्तकां आनी नेमाळीं? त्या काळांत व्हडलेशें वाचप बी करूंक मेळ्ळें ना. केन्नाय एकाद्रें पुस्तक वा नेमाळें मेळ्ळ्यार मेळ्ळें अशी परिस्थिती. घरा आसतना 'स्वान्तसुखाय' जें कितें बरयतालों तेंय बंद पडिल्लें. ते बदला दोंगरघळी आनी रानांनी कामदारां सांगाता रावन, प्रत्यक्ष जिविताचे, अदीक करून कश्टकाडे जिणेचे लागिंच्यान वेगळेवेगळे तरेचे अणभव घेवपाची संद मात म्हाका उपाट प्रमाणांत मेळ्ळी. पळोवंक नाशिल्लें जिवीत पळोवंक आनी समरस जावन पारखूंक मेळ्ळें. केन्ना केन्नाय हे अणभव पुस्तकी अणभव आनी गिन्याना परस लाख मोलाचे आसताले. कविता म्हजे सांगाता आसलीच. हे म्हजे कवितेन आपसूकच म्हाका भेटपी नवे नवे अणभव आपणायले. हे अणभव तिका पुस्तकांतल्यान शिकिल्ले मराठीपरस, खासा आमचे जिणेचो दीसरात सांगात करपी कोंकणींतल्यान उकतावप अदीक सभावीक दिसलें. हाका लागून कोंकणीच्या दिश्टाव्याची वाट पयलींपरस अदीक पर्जळीत दिसूंक लागली. कोणाय प्रत्यक्ष गुरू परस, जित्या जागत्या अणभवरुपी गुरुची तांक अदीक प्रभावी दिसपाक लागली. कोंकणीविशिंचे म्हजे उमळशिकेक आपली अशी एक नवी वाट होलमली. आनी एक दीस म्हजी कोंकणी कविता कागदार उतरूंक लागली. कोंकणीविशीं अजून खूब जाणा जावन घेवपाचें आसलें. कोंकणीचो वावर फुडें व्हरपी कोण, तांणी कितें बरयलां, कितें सांगलां हें अजून कळपाचें आसलें. तरी आसतना कोंकणीचो ध्यासच म्हाका वाट दाखयतालो आनी म्हाका जमता तसो म्हजे हांव कोंकणींत कविता तशेंच दुसरेंय कितें बरोवपाच्यो यत्न करतालों. परत, हेंय सगळें 'स्वान्तसुखाय'च! हांव म्हाकाच शिकयतालों.

१९५३ वर्सा म्हजी कामाची सुवात बदल्ली. हांव दोंगर घळींतल्यान कुडचडें-सावड्डें वाठारांत आयलों. घराकडच्यान कामाक वचूंक लागलों. वाचपाक पुस्तकां, नेमाळीं बी मेळूंक लागलीं. पयलीं परस जाणविकेच्यो शिमो रुंदावल्यो. आदीं जें कितें बरोवन दाळाक मारून दवरतालों तें आतां म्हजे म्हाकाच 'भुरगेपण' कशें दिसपाक लागलें. तरी पूण म्हजोच एक फाटलो सोद घेवंचो म्हणून एक दीस ते दाळ उस्तूंक गेलों. पळेत जाल्यार वाळटेन ताचो आपले परीन विलो लायिल्लो. हांवें कितें 'भुरगेपणां' केल्लीं तीं आतां पळोवंक मेळपाचीं नात ह्या विचारान खीणभर हांव खंती जालों. पूण तेच बराबर, वाळटेन म्हज्या 'भुरगेपणाक' फावो तो न्याय दिला आसतलो अशी हांवें म्हज्या मनाची समजुतय घाली. तेच बराबर जें कितें उपरांतचें बरयिल्लें आसलें तें मात इबाडचें न्हय अशीय तजवीज केली.

कोंकणीविशीं आतां मेरेन जें कितें म्हाका समजल्लें ताच्या आदारार आतां हांव म्हज्या इश्ट-सांगात्यांलागीं चर्चा करूंक लागिल्लों. बऱ्याच जाणांक ह्या प्रस्नाविशीं कसलीच जाण नासताली. हांवें म्हजें कोंकणींत बरयिल्लें बरप कोणाकूय वाचून दाखयल्यार, 'कोंकणींत बरयलां, म्हणजे तूं कोंकणीवादी जाला तर!' अशें आयकूंक मेळटालें. 'कोंकणीवादी' हें उतर खंयच्यान तरी, चड करून मराठी नेमाळ्यांतल्यान तांचे मेरेन पाविल्लें. कांय जाण 'कोंकणींत बरोवप' म्हळ्यारच तिडकताले. कोंकणीक व्याकरण ना, लिपी ना. ती मराठीची बोली, फकत उलोवपाची भास अशें म्हणून वाद घालताले. तरांतरांचे मुद्दे फुडें हाडटाले. आज जेन्ना हांव त्या सगळ्यांचो विचार करतां तेन्ना तें 'वाद घालप' म्हळ्यार फकत भावनीक थरावयली वादावादी आसताली अशें दिसता. कोंकणी फाटल्यान जो व्यापक असो विचार आनी भाशीक, सांस्कृतीक, सामाजीक तशीच राजकीय भुमिका आसा ती तेन्ना म्हाकाय स्पश्टपणान कळून येवंक नासली. कोंकणीविशिंचें म्हजेंय सांगप-करप भावनीक स्वरुपाचेंच आसतालें. शणै गोंयबाबालें 'कोंकणी भाशेचें जैत' वाचिल्लें. ताचे मुखार वचूंक नासलों. वचपाची गरज आसली.

इतल्यांत, १९६३च्या आगस्ट म्हयन्यांत, रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी वर्ध्याक सावन उजवाडायिल्लो 'मीर्ग' पंद्राळ्याचो पयलो अंक खंयच्यान तरी म्हज्या हातांत पडलो. नागरी कोंकणींतलें तें नेमाळें पळोवन हांव एकदम खोशयेन भुरकटून गेलों. कितल्याश्याच जाणांक हांव तो अंक दाखयत भोंवलों. रोखडेंच हांवें रवीन्द्रबाबांक पत्र बरोवन 'मीर्ग' म्हाका नेमान धाडपाक कळयलें. ते उपरांत आनिकय कांय जाणांनी 'मीर्ग' नेमान घेवंचें, ताचे वर्गणीदार जावचे म्हूण हांवें प्रयत्न केले. रवीन्द्रबाबांक हांव पत्रां बरोवंक लागलों. तांचीं पत्रां म्हाका येवंक लागलीं. रवीन्द्रबाबांक प्रत्यक्ष मेळपाचो मात योग येवंक नासलो. (ते खातीर सुमार सात वर्सां थारचें पडलें.)

कोंकणी संबंदांत खूब कितें समजून घेवंचें, कोंकणीखातीर कितें तरी वावर करचो अशें मनाक दिसतालें. हे विशीं हांवें रवीन्द्रबाबांक बरयलें. तांणी म्हाका गुरुनाथबाब केळेकार हांकां मेळपाक सांगलें. गुरुनाथबाब तेन्ना कुडचड्यार नोकरे निमतान रावताले. हांव गुरुनाथबाबांक मेळ्ळों. पयलेच भेटेंत आमची इश्टागत जमली. कोंकणीन आमकां एकठांय हाडिल्ले.

कोंकणी संबंदान हांव ज्या प्रस्नाच्यो जापो सोदतालों त्यो म्हाका गुरुनाथबाबांकडल्यान मेळूंक लागल्यो. कोंकणी परिशद, मुंबयचें कोंकणी भाशा मंडळ, गोंयकार विद्यार्थ्यांची मुंबयंतलीं कोंकणी भंडळां ह्या सगळ्यांविशीं म्हाका पयलेच खेपे विस्तारान माहिती मेळ्ळी. विद्या, साद

हांचे अंक वाचूंक मेळ्ळे. शणै गोंयबाब, आचार्य राणू नायक हांच्याय वावराची वळख मेळ्ळी. काकासायब कालेलकार हांचें नांव आयकून खबर आशिल्लें. तांगेलीं एक दोन पुस्तकांय हांवें वाचिल्लीं. गुरुनाथबाबान म्हाका काकासायबान १९४५ वर्सा मुंबय गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनांत केल्लें भाशण वाचूंक दिलें. त्या भाशणांत काकासायबान कोंकणीची बाजू मांडिल्ली. (मराठीवाद्यांक तें उस्तुरें गेल्लें!) काकासायबांले कोंकणीविशिंचे आनिक्य विचार वाचूंक मेळ्ळे. तांगेले सागरी प्रान्ताचे कल्पनेविशींय हांवें वाचलें. हाका लागून तेन्ना मेरेन ज्या प्रस्नाविशीं म्हाका सारकी खबर नासली, ती मेळूंक पावली. गुरुनाथबाबान म्हाका खूब कितें समजावन दिलें, शिकयलें. कोंकणीच्या मळार, प्रत्यक्ष रुपान भेटिल्लो तो म्हजो पयलो मार्गदर्शक!

गुरुनाथबाबांक मेळटकीच तांचेकडेन जी चर्चा जाताली तांचेवयल्यान एक म्हत्वाची गजाल लक्षांत येताली. ती म्हळ्यार, कोंकणीची सगळ्या आंगांनी उदरगत जावंक खूब मोठो वावर करपाची गरज आसा. कोंकणींत पुस्तकां येवंक जाय. तीं लोकांमेरेन पावंक जाय. लोक तीं वाचूंक लागूंक जाय. कोंकणीचो शिक्षणांत उपेग जावंक जाय. खूब मोठो वावर हो. गोंयांत हो वावर जावंक जाय आनी तसो तो जातलो जाल्यार सगळ्यांत पयलीं गोंय मुक्त जावंक जाय. म्हणजे, कोंकणीचे उदरगतिचो प्रस्न हो खऱ्या अर्थान गोंयचे मुक्ततायेकडेन जोडिल्लो आशिल्लो. गोंयचे सुटकेंतच कोंकणीच्या पुनरुत्थानाचो प्रस्न घुस्पल्लो आसा हो विचार म्हजे सारक्याक एक नवी प्रेरणा दिवपी आसलो.

हांगा आनीक एक प्रस्न म्हजे मुखार आसलो. तो म्हळ्यार, स्वतंत्र गोंयचो फुडार. १९४६च्या क्रांती पर्वान फुडें हाडिल्ले कांय फुडारी आनी महाराष्ट्रांतलीं नेमाळीं तशेंच थंयचे फुडारी मुक्त जायनाफुडें गोंय महाराष्ट्र राज्याचो एक भाग जातलो अशें धरुनूच चलताले. हे संबंदांतली दुसरी बाजू तितलिशी लोकांमुखार येचनासली. हाका लागून म्हाकाय महाराष्ट्रांतले फुडारी बी म्हणटात तशेंच जातलें अशें दिसतालें. कोंकणी आनी गोंयचो फुडार म्हळ्यार, सुटके उपरांत गोंय महाराष्ट्रांत वचप हे संबंदांत व्हडलेशें गंभीरपणान हांवें केन्नाच चिंतूंक नासलें. घडये, ह्या प्रस्नाचेर चिंतपा इतली कुवत तेन्ना म्हज्यांत येवंक नासली. गुरुनाथबाबाकडेन उलयतना एक दीस हो प्रस्न आयलो आनी म्हज्या मनांतलो गोंदळ पयस जालो. कोंकणीची सर्वांगी उदरगत जातली आनी ती भारतांतल्या हेर भासां सारकी जातली जाल्यार तिका तिचें राज्य आसुंकूच जाय. आनी तें राज्य म्हळ्यार गोंय. कोंकणीच्या दिश्टाव्याची वाट अदीक स्पश्ट करपी हो आनीक एक दिश्टावो आसलो. म्हजी अस्मिताय जागोवपी दिश्टावो आसलो.

कोंकणीन मनाचो ताबो घेतिल्लोच. पूण गोंयचे सुटके बगर कोंकणीचो मार्ग कांट्या खुंट्या मेकळो जावंचो ना हेंय तितलेंच खरें आसलें. म्हजे नदरेन कोंकणी आनी गोंयची सुटका ह्यो गजाली एकामेकांत भरसल्ल्यो आसल्यो. आनी अशे तरेन विचार करतां करतां, केन्ना आनी कसो कितें हांव गोंयच्या सुटके झुजांत वांटेकार जालो तेंच म्हाका कळ्ळेंना.

(चलता)

* * *

---

☐ हजरत महम्मद पैगंबरा फाटल्यान कुरेशी लोक लागले. महम्मदान मक्का सोडून वचपाचो निर्णय घेतलो. वतना वांगडा अबू बकराकूय घेतलो. बरे मुखार गेल्ले. कुरेशींक हें कळना फुडें ते दोगांकूय धरून हाडपाक घुरी घालून गेले. चोंय दिकांतल्यान तांची घुरी आयिल्ली पळोवन दोगूय एके घोलींत वचून बसले. कुरेशी घोली लागसार पावल्यात आनी दोगांकूय सोदतात हें पळोवन अबू बकरान महम्मदाक म्हळें, 'हुजूर, कुरेशी सामके घोली लागसार पावल्यात. आमी हांगा फकत दोग जाण आसात. आनी ते तर शेंकड्यांनी आसात. आमकां तांणी सोदून काडले जाल्यार आमी कितें करपाचें?'

महम्मदान थंडसाणेन जाप दिली, 'येवं दी तांकां. काडूं दी आमकां सोदून. आमी फकत दोग जाण नात. तिसरोय एक आसा – अल्लाह.'

☐ जॉर्ज वॉशिंग्टन अमेरिकेचो एक म्हा-पुरुस. ताणें आपणा खातीर कांय जीवन-सुत्रां घडयल्लीं.

— पयलें, सत्याक धरून चल.
— दुसरें, कोणाक भियेवं नाका.
— तिसरें, केन्ना कोणाची खुशामत करूं नाका.
— चौथें, सदां तोंड प्रसन्न दवर. पुणून गंभीर प्रसंगार गंभीरपणान चल.
— पांचवें, कोण कितेंय काम घेवन येता ताका पोटभर उलोवंक दी.
— सवें, कोणाकडल्यान काम सारकें जालें ना जाल्यार ताका दुशण दिवं नाका.
— सातवें, कोणाय आड कोणूय तुजे कान फुंकपाक लागलो जाल्यार तें खरें मानूं नाका.
— आठवें, आंगार भेस सादोच दवर. लोकांचे नदरेंत भरता असलो नाका.
— णववें, वायट संगत धरचे परस एकलो राव.
— धावें, दुसऱ्यांच्यो गुपीत खबरो सोदून काडपाचें काम कोणाक सांगूं नाका.
— इकरावें, कोणाचींच उणीं पळोवं नाका.

# कोंकणींतली साहित्य समिक्षा –

## आयची स्थिती आनी नव्यो दिको (पयलो वांटो)




**प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार**

कोंकणी समिक्षा साहित्याक नव्यो दिको खंयच्यो मेळच्यो, हाचो विचार करप ही गजाल आमच्या समिक्षा सांहित्याची गुणात्मक वाड जावपाचे नदरेन खूब म्हत्वाची. हे खातीर कोंकणींतल्या समिक्षा साहित्याची आयची स्थिती कितें आसा, तें खंयच्या पांवड्यार आसा, हें नियाळप खूब गरजेचें. हो हेतू मनांत धरून ह्या लेखाच्या पयल्या वांट्यांत कोंकणी साहित्याची समिक्षा वा आस्वादन केल्ल्या वट्ट सात पुस्तकांचो थोडेभितर नियाळ घेवपाचो हांगा यत्न केला.

कोंकणी साहित्याक फाटल्या कांय शतमानांची व्हड परंपरा लाबिल्ली आसली जाल्यारूय ह्या साहित्याचे उदरगतिचीं दारां खऱ्या अर्थान गोंय मुक्ती उपरांतच उकतीं जालीं. जी भास चडशी फकत जिबेरूच घोळटाली, ती बरपांत साहित्याच्या रुपांत येवंक लागली, तेन्ना परंपरेन हेर भासांचो आपणाल्या लिखित वेव्हारांत वापर करपी भोवसंख्य गोंयकार कोंकणी साहित्याकडेन परकेपणाचे भावनेन पळोवंक लागलो. गोंयकारांनी स्वताचे भाशेंतल्यान साहित्य निर्मणी केलेबगर आनी लिखित वेव्हारांत स्वताची भाशा वापरेबगर तांचें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व फुलचें फळचें ना, हाची जाणवीक जाल्ले त्या काळांत थोडेच गोंयकार आशिल्ले. पूण, ह्या थोड्याच गोंयकारांनी कोंकणीची उदरगत करपाचें आव्हान स्विकारलें आनी कोंकणीचे उदरगतिची चळवळ दोन मळांचेर सुरू जाली. कोंकणीक राजमान्यताय, शिक्षणीक मान्यताय आनी साहित्यीक मान्यताय मेळोवन दिवपाची चळवळ आनी साहित्य निर्मणेची चळवळ अश्यो एकामेकांक संबंदीत अश्यो दोन चळवळी गोंयांत सुरु जाल्यो. कोंकणींतली साहित्य निर्मणेची चळवळ ही सुरवेक सावन हालीं मेरेन ललित म्हळ्यार सर्जनशील साहित्याचे वाडिचीच चळवळ आशिल्ली. कविता, कथा, नवलकाणी, नाटक, ललित निबंद अश्या वेगळ्या वेगळ्या साहित्य-प्रकारांत दर्जेदार साहित्य निर्माण करपाचेरच लेखकांनी चड लक्ष दिवपाचें थारायलें. साहित्य-निर्मणी संख्यात्मक नदरेन सामकीच फाटीं आशिल्ल्यान ललित साहित्याचेर चड भर दिवप गरजेचें आशिल्लें तशें सभाविकय आशिल्लें. एक गजाल आमी ध्यानांत दवरूंक जाय – खंयचेय भाशेचें वा साहित्याचें बळगें ललित साहित्य आनी माहिती दिवपी साहित्य ह्या दोनूय साहित्य प्रकारांचेर आदारिल्लें आसलें, तरी खंयच्याय भाशीक गटाचे संस्कृतायेचो पांवडो ताच्या ललित साहित्याचे तांकिचेर अवलंबून आसता. हाका लागुनच हांव म्हणन, मुक्ती उपरांत जें कोंकणी ललित साहित्य गोंयांत निर्माण जालें, ताणें कोंकणी समाजाचें सांस्कृतीक आंग घटमूट केलें. पूण, साहित्याची सगळ्या आंगांनी वाड जावंक पावली ना. माहिती दिवपी पुस्तकांचे निर्मणेंत कोंकणी फाटींच उरली. फाटल्या धा वर्सांत ही स्थिती मात्शी सुदारल्या आनी भाशा, समिक्षा इत्यादि मळांक संबंदित अशीं पुस्तकां कोंकणींत उजवाडाक येवंक लागल्यांत. पूण, तरी, भाशेच्या विकासाचे नदरेन ही स्थिती समादानकारक ना, हे विशीं दोन मतां आसचीं नात.

समिक्षा-साहित्याचो विचार करचो जाल्यार, मुक्ती उपरांतच्या पयल्या वीस वर्सांत समिक्षा-साहित्याची वाड जाली ना, हें सभाविक आशिल्लें अशें म्हणूं येता. जेन्ना ललित साहित्यच फावो त्या प्रमाणांत निर्माण जाल्लें नासता, तेन्ना समिक्षा साहित्य निर्माण जायना वा तें खूब सवकासायेन वाडटा. हेर भारतीय भासांचे बाबतींत अशेंच घडलां. १९व्या शतमानांत भारतांत विश्वविद्यालयांची निर्मिती जाले उपरांत भाशा आनी साहित्य जाणकार निर्माण जावंक पावल्यात, आनी समिक्षेचें मळ वाडपाची प्रक्रिया सुरू जाल्या.

गोंयांत कोंकणी साहित्याच्या मळार समिक्षा फाटीं उरली ताचें आनीक एक कारण आशिल्लें. आर्दीच कोंकणींत साहित्य (ललित) उणें आशिल्लें. देखून जें कितें साहित्य निर्माण जातालें, ताचें मोल थरोवपाचो हो काळ न्हय, अशेंय खूब जाणांक दिसतालें. बरें-वायट अशें सगल्या तरांचें साहित्य निर्माण जावंदी. ताचें मोल फुडारच थारायतलो. फुडारांतलो समिक्षक हो वावर हातांत घेतलो, अशे भावनेन कोंकणी साहित्याकडेन पळोवपाची नदर आशिल्ली. त्या काळांत, साहित्याचे जाणकार आशिल्ल्या इंग्लेज, मराठी, हिन्दी अशा भासांच्या कॉलेज-अध्यापकांनीय हो समिक्षा बरोवपाचो वावर हातांत घेतलो ना.

मुक्ती उपरांतच्या २०-२५ वर्सांत कोंकणींत जें कितें थोडें भोव साहित्य-परिक्षणाचें बरप उजवाडाक आयलें, तें चडशें पुस्तकांक बरयिल्ल्यो प्रस्तावना, साहित्य मेळार वा कोंकणी परिषदांनी केल्लीं छापील भाशणां, पुस्तकांचें थोडे भितर आनी खोलायेंत वचनासतना परिक्षण करपी लेख, अशा रुपांत आशिल्लें. तेंय बी चडशें कोंकणींतल्या ललित साहित्यिकांनीच बरयिल्लें आशिल्लें. हें साहित्य परिक्षणात्मक आनी साहित्याच्या व्यापक नियाळाच्या स्वरुपांतलें आशिल्लें. लेखकाची आनी ताच्या साहित्याची वाचकांक वळख करून दिवप आनी लेखकांक उत्तेजन दिवप, ह्या दोन हेतूंतल्यान हें लिखाण निर्माण जालें. सवका सवका करून ह्या मळार अदीक खोलायेन केल्लें आनी विविधताय आशिल्लें बरप निर्माण जावंक लागलें.

लक्ष्मणराव सरदेसाय हांणी 'कथाशिल्प' (१९७७) हें पुस्तक बरोवन कोंकणींत (देवनागरी लिपयेंत) समिक्षा साहित्याची पुस्तकाच्या रुपांत बुनयाद घाली. पुंडलीक नायक, शीला नायक, मीना काकोडकार आनी दामोदर मावजो ह्या कथा-लेखकांच्या कथा-झेल्यांतलीं सौंदर्य थळां आस्वादकाचे नदरेंतल्यान तांणी विसकटावन दाखयलीं आनी दोश-स्थळांय स्पश्ट केलीं. कथा ह्या साहित्य प्रकाराविशीं, कथेचो आशय आनी घाट, हांचे विशींय तांणी मार्गदर्शन केलें.

१९८२ उपरांत कोंकणींतल्या समिक्षा-साहित्यांत साहित्याच्या विंगड विंगड आंगांचो अदीक खोलायेन आनी अदीक अभ्यासपूर्ण रितीन विचार जावंक लागलो. साहित्यांतलें सभाव चित्रण, तातुंतलीं पात्रां, एकाद्र्या कवी वा लेखकाचें वट्ट साहित्य, काव्यांतलें सौंदर्य वा आशय, नाटकांचो नियाळ, साहित्यांतलें समाजदर्शन, विनोद, कवितेचो घाट (फॉर्म) आदी विशयांचेर खोलायेन बरोवपी कांय लेखक मुखार आयले. हें सगलें साहित्य नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयलें. साहित्याची जाण आशिल्ले हे लेखक आशिल्ले. १९८७त उजवाडाक आयिल्लें 'आस्वादन' हें हरिश्चंद्र नागवेंकार हांचें पुस्तक कोंकणी समिक्षा मळावयलें दुसरें पुस्तक. तातुंतले मनोहरराय सरदेसाय, र. वि. पंडित आनी गजानन रायकार हांच्या काव्यावयले तीन लेख हेच फकत आस्वादनाच्या रुपांत आसात. बाकिच्या चार लेखांचें स्वरूप विवेचनात्मक वा स्थूल नियाळ घेवपी अशें आसा. पुंडलीक नायकाच्या 'अच्छेवा'वयल्या

लेखांत हे कादंबरिच्या अणभवविश्वाचें आनी रचनेचें, तशेंच 'कार्मेलीना' वयल्या लेखांत मुख्य पात्राच्या व्यक्तिचित्रणाचें आनी हे कादंबरिचे रचनेचीं दोशथळां दाखोवन विवेचन केल्लें आसा. कोंकणी समिक्षे वयल्या लेखांत कोंकणी समिक्षा-साहित्याचें विवेचन आसा, जाल्यार कोंकणी कथेवयल्या लेखांत कोंकणी कथेचो स्थूल नियाळ घेतिल्लो आसा.

लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या पुस्तकांत कांय प्रमाणांत आस्वादन, कांय प्रमाणांत विवेचन आसलें जाल्यारूय तातूंत साहित्याचें मूल्यमापन केल्लें ना. सौंदर्य-थळांचें वा दोश-थळांचें अदीक विस्तारान विवेचन जावपाक जाय आशिल्लें, तें जावंक ना. लेखकांविशीं विशेशणांचो वापर मुबलक प्रमाणांत दिसता. तोखणायेचो सूर चड दिसता. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या पुस्तकांत हीं विशेशणां चड प्रमाणांत दिसतात. ह्या गजालींक लागून, हीं दोनूय पुस्तकां समिक्षेचे फास्केंत बसून लेगीत कोंकणी साहित्य-कृतिंची समिक्षा पुराय वस्तुनिश्ठपणान करतात अशें म्हणूंक येना. ह्या पुस्तकांत आस्वादन आसा, विवेचन आसा, लेखकांक आनी वाचप्यांक मार्गदर्शन आसा, पूण समिक्षेचें म्हत्वाचें उद्दिदश्ट – मूल्यमापन तातूंत ना. पूण म्हणून ह्या दोनय पुस्तकांचें म्हत्व उणें जायना. आस्वादना वांगडा ह्या पुस्तकांत विवेचन आसा, हें म्हत्वाचें. कोंकणी पुस्तकां वा साहित्य हांचीं वैशिश्ट्यां वाचप्यां मेरेन पावोवपाचें उद्दिदश्ट ह्या दोनूय पुस्तकांनी मर्यादित प्रमाणांत साध्य केलां. ललित साहित्य मुबलक प्रमाणांत वाडपाची जेन्ना गरज आशिल्ली, तेन्ना बरयिल्लीं हीं दोनूच पुस्तकां, हे नदरेन तांचेकडेन पळोवंक जाय.

हांगा म्हाका मुजरत एक गजाल सांगन दिसता. ती म्हळ्यार, जे समिक्षेंत साहित्याचें मूल्यमापन आसा, तीच फकत समिक्षा, हो दिश्टिकोणय वस्तुनिश्ठ न्हय. समिक्षक जेन्ना खंयचोय एक निकश घेवन साहित्य-कृतिचीं वैशिश्ट्यां मांडटा आनी पुस्तकाचें ह्या निकशाच्या आदाराचेर विवेचन करता, तेन्ना तो समिक्षेचो एक प्रकार आसता. तेच प्रमाण, समिक्षक जेन्ना साहित्य-कृतींतलीं सौंदर्यथळां विस्कटावन तांचो आस्वाद घेता, तेन्नाय तो समिक्षाच करता. मूल्यमापना विशीं एक गजाल म्हाका स्पश्ट करूंक जाय, ती म्हळ्यार, विवेचन करनासतना वा पुरावो दिनासतना शेरे (comments) मारप, अमकेंच पुस्तक उणाक पांवड्याचें वा स्रेश्ठ थरोवप, ही समिक्षा न्हय. आनी तशें बरोवपी लेखक हो समिक्षक न्हय. मदल्या काळांत अशे तरेचे कांय बरोवपीय कोंकणींत दिसूंक लागले.

उपरांत, कोंकणी समिक्षेच्या मळाचेर आनीक एक पुस्तक निर्माण जालें. सु. म. तडकोड हांचें 'कोंकणी समिक्षण – तत्त्व आनी प्रयोग'. हें पुस्तक समिक्षे वयल्या आदल्या दोन पुस्तकां परस वेगळें मानूंक जाय. ह्या पुस्तकांतल्यान पयलेच खेपे कोंकणींत समिक्षेच्या तत्त्वांची फोडणिशी जाली. समिक्षेचे सिद्धांत आनी कोंकणी साहित्याची समिक्षा, अशा दोन पांवड्यां वयल्या ह्या पुस्तकांत वट्ट ११ समिक्षा-लेख आसात. पयल्या ६ लेखांत बरोवप्यान साहित्य आनी समिक्षा-विचारांचें विवेचन केलां जाल्यार मुखावयल्या ५ लेखांमदल्या चार लेखांत कोंकणींतल्या वेंचीक साहित्य-कृतिंची आनी एका लेखांत 'श्रीकांत' हे बंगाली नवलकाणयेची समिक्षा आसा. पयल्या स लेखांत सु. म. तडकोड हांणी ललित साहित्याची व्याख्या, ललित साहित्याचो हेतू, भांस आनी शैली, समिक्षणाची पद्धत, प्रकार, समिक्षण अ.ाणी ललित साहित्य, मार्क्सवादी समिक्षा इत्यादी विशयांचेर भासाभास केल्या. साहित्य आनी समिक्षा हांच्या तत्त्वांची फोडणिशी करपी हे सगले लेख लेखकाचें ह्या विशयांतलें ज्ञान आनी चिकित्सक नदर दाखयतात. कोंकणी पुस्तकांची समिक्षा करपी विभागांत लेखकान गोमन्तोपनिषत् (खंड १) ह्या शणै गोंयबाबांच्या पुस्तकांतल्या कथांचो नियाळ केला. तेच प्रमाण, कोंकणी कवितांचो 'रत्नांहार' हो र. वि. पंडित हांणी संपादित केल्लो झेलो, प्रकाश पाडगांवकारांली कोंकणी कविता आनी माधव बोरकारांलो 'उजवाडाचो रूख' हो कवितां-झेलो, हांचो नियाळ ह्या पुस्तकांत आसा. कोंकणी साहित्याची समिक्षा करपी ह्या चारूय लेखांमदीं 'गोमन्तोपनिषता' वयलो लेख विवेचनात्मक, जाल्यार 'रत्नांहार', 'प्रकाश पाडगांवकारांली कोंकणी कविता', माधव बोरकारांलो 'उजवाडाचो रूख', हे लेख चडशे आस्वादनाच्या रुपांतले आनी कांय प्रमाणांत विवेचनात्मक अशे आसात. आदल्या दोन पुस्तकां भशेन सु. म. तडकोड हांच्याय ह्या पुस्तकांत आमकां साहित्याचें मूल्यमापन जाल्लें दिसना. पूण, साहित्य शास्त्र आनी समिक्षेच्या शास्त्राचो विचार हो ह्या पुस्तकाचो म्हत्वाचो गुण.

समिक्षेच्या मळार हालिंच्या काळार जीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत तातूंत 'वालोर' हें एस्. डी. तेंडुलकार हांचें पुस्तक आसा. समिक्षा, वर्तमानपत्री नियाळ आनी आस्वाद, ह्या प्रकारांतले लेख आशिल्लें हें पुस्तक, अशें लेखकान म्हणिल्लें आसलें तरी तांतुंतलें भोवतेक बरप व्यापक अर्थान समिक्षा-साहित्यांत आस्पावता. तेंडुलकारांनी ह्या पुस्तकांतल्या लेखांचे तीन वांटे केल्यात. पयल्या वांट्यांत हरिश्चंद्र नागवेंकार, रवीन्द्र केळेकार, दिलीप बोरकार, नयना आडारकार, अ. ना. म्हांबरो आनी लक्ष्मीनारायण पारज हांच्या एका-एका पुस्तकाची समिक्षा केल्या. बाकीबाब बोरकार आनी पुंडलीक नायक हांचें वट्ट कोंकणी साहित्य तांणी ह्या पुस्तकांत समिक्षे खातीर निवडलां. हे बराबरच ह्या वांट्यांत तांणी एके चिटिच्या रुपांत शिला कोळंबकारांचे 'विद्ग्येच्यान तर' हे कथेचें परिक्षण केलां. पुस्तकाच्या दुसऱ्या वांट्यांत लेखकान वेगळ्या वेगळ्या सात कोंकणी कवितांचें आस्वादन आनी विश्लेशण केलां. ह्या भागांत तुकारामाचे दोन अभंग आनी एक हिन्दी फिल्मी गीत हांचोय तांणी आस्वाद घेतला. तिसरो भाग समिक्षे कडेन संबंद नाशिल्लो असो आसा. पूण लेखकानच म्हळां ते प्रमाण ह्या भागांतले चारय लेख तांच्या समिक्षा-विचाराक पूरक थरतात. पुस्तकाच्या पयल्या भागांत तांणी साहित्याची व्याख्या आनी साहित्याचो कस थरोवपी घटक, हांची फोडणिशी केल्या. पयल्या भागांत साहित्याचो कस थरोवपी जे घटक तांणी दिल्यात तांचो आधार घेवन तांणी पुस्तकाच्या फुडल्या भागांत समिक्षा केल्या. तेंडुलकार हांचें हें पुस्तक वाचतकीर एक गजाल ध्यानांत येता ती म्हळ्यार, लक्ष्मणराव सरदेसाय, हरिश्चंद्र नागवेंकार, सु. म. तडकोड हांचें पुस्तक रुपान आयिल्लें समिक्षा साहित्य आनी नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयिल्लें हेर लेखकांचें समिक्षा बरप ह्या सगळ्या परस तेंडुलकारांचें समिक्षा-बरप वेगळें दिसता. एस्. डी. तेंडुलकार हांच्या ह्या पुस्तका आदिंच्या कोंकणी समिक्षा साहित्यांत आस्वादन आनी विवेचनाचेर भर आशिल्ली आनी साहित्यकृती उणाक काय स्रेश्ठ, हें थारावपाचे बाबतींत समिक्षा करपी लेखक अनमनतना दिसतालो. 'वालोर' ह्या पुस्तकांतल्यान कोंकणींत पयलेच खेपे सडेतोडपणान साहित्यकृतिचें मूल्यमापन करपाक सुरवात जाली. कोंकणी साहित्यांत ललित लेखक, तशेंच समिक्षा करपी, हांचेमदीं जीं थोडींभोव आत्मसंतुश्टपणाचीं कुपां दिसतात, तीं ना करपाक असो सडेतोडपणा आसप खूब गरजेचें. 'वालोर' ह्या पुस्तकांत तेंडुलकारांनी वट्ट सात कोंकणी कवितांचें आस्वादन केलां. शंकर परूळकार, रमेश वेळुस्कार, अरूण साखरदांडे, विनायक गोवेंकार, दत्तकुमार कामत, दीपक प्रभुदेसाय आनी खासा लेखक एस्. डी. तेंडुलकार अशे हे कवी आसात. कवितांचें रसग्रहण करता आसतना तांणी कल्पनाशक्तिचो वापर करून आनी कवितेच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगांची चिकित्सा करून दर एके कवितेचीं वैशिश्ट्यां स्पश्ट केल्यांत. तरी ह्या पुस्तकांतलीं कांय दोश-थळां दोळ्यांत भरपासारकीं आसात. कोंकणी साहित्याचेर, कांय साहित्यिकांचेर वा तांच्या साहित्य-कृतिंचेर तांणी जीं कांय सडेतोड मतां मांडल्यांत वा जे निश्कर्श काडल्यात, ते सिद्ध करपी मुद्दे तांणी दिवंक नात. पूण हें मुल्यमापन करता आसतना निकशांचें जें विवेचन जाय, तें कांय विधानांचे बाबतींत जावंक ना. हाका लागून हीं विधानां उथळ दिसतात. हो दोश कुशीक काडल्यार 'वालोर' ह्या पुस्तकांतलें

समिक्षात्मक बरप, हें कोंकणी समिक्षेन मारिल्लें मुखावयलें पावल, हातूंत दुबाव ना. तांच्या पुस्तकांतलें कोंकणी साहित्याचें मुल्यमापन वस्तुनिश्ठ आसा काय ना, हो वादाचो विशय जायत. पूण, समिक्षण करतना जे खोलायेन तांणी वेगळ्या वेगळ्या साहित्यिक आंगांचें विश्लेशण केलां, तें मोलाचें मानूंक जाय.

'वालोरा' उपरांत कोंकणी साहित्याची समिक्षा करपी जें पुस्तक कोंकणींत उजवाडाक आयलें, तें किरण बुडकुले हांचें 'साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारुपां'. ह्या पुस्तकांत साहित्य नियाळाचें अंतरंग आनी साहित्य नियाळाचीं कायारुपां, अशे दोन भाग आसात. पुस्तकाच्या पयल्या भागांत लेखिकेन साहित्य समिक्षेची प्रकृती आनी स्वरूप, तशेंच ताच्यो पद्धती आनी प्रकार हांची भासाभास केल्या. दुसऱ्या भागांत लेखिकेन प्रत्यक्ष नियाळाच्यो १५ पती सादर केल्यात. कोंकणी कथेवयल्या लेखांत चालू दसकांतले कोंकणी कथेची आस्वादक चिकित्सा केल्या, जाल्यार दामोदर मावजो हांची 'कार्मेलीन' आनी पुंडलीक नायक हांची 'अच्छेव' ह्या दोन नवलकाणयांचें वेगळ्या वेगळ्या आयामांतल्यान विवेचन केलां. शीला कोळंबकार हांच्या 'भुंयचाफीं' ह्या व्यक्तिचित्रणांच्या झेल्यांतलें अस्तुरी-दर्शन, निवेदन पद्दत, अशा विविध आंगांचो तांणी विचार केला. अ. ना. म्हांबरे हांच्या 'गोंयची अस्मिताय' ह्या विनोदी शैलींतल्या कथां-झेल्यांची, तशेंच महाबळेश्वर सरदेसाय हांच्या 'गोंय – ५० वर्सा फाटलें' ह्या पुस्तकाची समिक्षा करपी लेख, ह्या पुस्तकांत आसात. मुकेश थळी हांचें 'वळेसर' हें निबंधांचें पुस्तक, राम प्रभू चोडणेकार हांचें 'जिवीत यात्रा' हें वैचारिक पुस्तक, जयमाला दणायत हांचो 'करबट' हो निबंद-झेलो, 'साहित्य-शिल्प' हो वेगळ्या वेगळ्या लेखकांच्या समिक्षात्मक बरपांचो संग्रह, एव्ह आनी मरी हें एदुआर्द ब्रुन द सौझा हांणी बरयिल्लें काव्य, प्रभाकर नाडकर्णी हांचो 'गज़लप्रभा' हो गज़लांचो झेलो, 'नवोदित कोंकणी कविता', 'कोंकणी कवितेंतली अस्तुरी प्रतिमा' आनी 'अणकारीत बरप' अशा विविध साहित्याची समिक्षा लेखिकेन केल्या.

किरण बुडकुले हांणी ह्या पुस्तकांत (ताच्या पयल्या भागांत) समिक्षा-शास्त्रांतल्यो संकल्पना आनी तत्त्वां हांचें विश्लेशण केलां. ह्या विशयांतलें तांचें ज्ञान आनी चिकित्सक नदर दाखोवपी असो हो भाग आसा. पुस्तकाच्या दुसऱ्या भागांत तांणी कोंकणी साहित्याची जी प्रत्यक्ष समिक्षा केल्या तातूंत विविधताय परगट जाल्ली आमकां दिसिता. कथा, नवलकाणी, व्यक्तिचित्रणां, विनोदी साहित्य, निबंद, वैचारीक बरप, गझल, समिक्षा-साहित्य, महाकाव्य, कविता, अणकारीत साहित्य अशा वेगळ्या वेगळ्या साहित्य प्रकारांचो नियाळ तांच्या पुस्तकांत आशिल्ल्यान कोंकणी समिक्षेंत ह्या पुस्तकान विविधताय हाडल्या अशें म्हणूंक जाय. ह्या पुस्तकाचें आनीक एक वैशिश्ट्य म्हळ्यार पुस्तकांतल्या कांय लेखांत आस्वादनाच्यो खुणो दिसल्यो, जाल्यार साहित्याचे चिकित्सेचेर, विवेचनाचेर चड भर दिल्लें अशें हें पुस्तक आसा. किरण बुडकुलेंचें हें पुस्तक म्हळ्यार चिकित्सक समिक्षेच्या मळावयलें मुखावयलें पावल अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. वेगळ्या वेगळ्या साहित्यकृतिंचो नियाळ करतना लेखिकेन त्या त्या साहित्य-प्रकाराचें स्वरूप आनी खेरीतपण स्पश्ट केल्लें आसा. हे नदरेन पळयल्यार 'एव्ह आनी मरी' ह्या पुस्तकावयले दोन लेख हे अदीक चिकित्सक जाल्यात. समिक्षाशास्त्रांतल्या संकल्पनांची कोंकणी उतरावळ घडोवपाचे बाबतींत आदिंच्या कोंकणी समिक्षकांनी थोडोभोव वावर करून दवरिल्लो, तो किरण बुडकुलेंनी अदीक नेटान मुखार व्हेला. ह्यो सगल्यो जमेच्यो बाजू ध्यानांत येता आसतनाच लेखिकेच्या समिक्षा-बरपांतल्यो कांय मर्यादाय दोळ्यांमुखार उब्यो जातात. तोखणायेच्या वर्तुळांतल्यान कोंकणी समिक्षा आजून भायर येवंक ना, हाची गवाय दिवपी हें पुस्तक. दुसरी गजाल म्हळ्यार, त्यो साहित्यकृतीकडेन हिसपाभायर एकरूप जाल्ल्यो दिसतात. समिक्षा-बरपाची भास ही समिक्षकाचो अलिप्तपणा दाखोवपी आसूंक जाय. पूण तांची भास ही हिसपाभायर लालित्यपूर्ण ज़ाल्या. हाका लागून पुस्तकांत तोखणायेचो सूर भरशिल्ले वरी दिसता.

कोंकणी समिक्षणाच्या मळार 'वालोर' आनी 'साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारुपां' ह्या दोन पुस्तकां आदीं चंद्रलेखा डिसौजा हांचें 'कोंकणी काव्याची पृष्ठभूमि' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. ह्या पुस्तकांत बाकीबाब बोरकार, र. वि. पंडित, चा. फ्रा. डिकोस्ता, मनोहरराय सरदेसाय, पांडुरंग भांगी, जे. बी. मोरायस, नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार आनी प्रकाश पाडगांवकार ह्या कोंकणी कवींच्या काव्याचो लेखिकेन वेगळ्या वेगळ्या आंगांनी अभ्यास केला. कोंकणी काव्य-संवसारावयल्या ह्या लेखांभायर पुस्तकांत वेगळ्या विशयावयले दोन लेख आसात. कोंकणी कविंच्या काव्यसाहित्या वयल्या वेगळ्या वेगळ्या लेखांत चंद्रलेखा डिसौझा हांणी बारीकसाणेन आनी आस्वादकाचे नदरेंतल्यान कोंकणींतल्या काव्याची चिकित्सा केल्या. वेगळ्यावेगळ्या कविंच्या काव्यांतले प्रवाह, तांच्या काव्यांतली सौंदर्यप्रचिती, काव्यांतलीं प्रतिकां, इत्यादि वैशिश्ट्यांचें दर्शन ह्या लेखांतल्यान घडटा. ह्या पुस्तकांत आस्वादनाच्या सांगाताक साहित्यकृतिंच्या विंगड विंगड आंगांचें विश्लेशण आसा. पूण हें विश्लेशण अदीक खोलायेन जावपाक जाय आशिल्लें अशें हे सगले लेख वाचतकीर दिसता. हातुंतल्या कांय लेखांक चिकित्सक समिक्षे परस आस्वादनांचेंच चड रूप आयिल्ले वरी दिसता. काव्यांतलीं दोश-थळां स्पश्टपणान दाखोवपाचे बाबतींत हीं समिक्षा उणी पडटा. पूण ह्या पुस्तकांतलो 'कोंकणी कविता – अवलोकन' हो प्रस्तावनेच्या रुपांतलो लेख ताच्या विश्लेशणात्मक वैशिश्ट्याखातीर मोलादिक मानपाक जाय.

कोंकणी साहित्याची आस्वादक समिक्षा करपी एका पुस्तका कडेन गोंयांतल्या वाचप्यांचें लक्ष वचूंक ना. १९८३ वर्सा उज़वाडाक आयिल्ल्या ह्या पुस्तकांत स्वामी सुप्रिय ह्या मंगळूरच्या लेखकान र. वि. पंडित हांच्या 'दर्या गाजोता' ह्या कवितां-झेल्यांतल्या कवितांचें आस्वादन केलां. कवितेचो आशय, तातुंतलीं रुपकां, प्रतिमा आनी प्रतिकां हांची फोडणिशी करून स्वामी सुप्रिय हांणी ह्या कवितांचो आस्वाद घेतला. हें आस्वादन अदीक खोलायेन आनी बारीकसाणेन जाल्लें जाल्यार ताचें समिक्षात्मक मोल वाडटलें आशिल्लें. पूण तें तशें जावंक ना हाची हें पुस्तक वाचतकीर जाणीव जाता. पूण स्वामी सुप्रिय हांचें हें पुस्तक दोन कारणां खातीर वाचप्यांच्या ध्यानांत उरता. एक म्हळ्यार, सर्वसादारण वाचप्याक सोपे पद्धतीन कविता समजून दिवपांत स्वामी सुप्रिय हांणी केल्लें रसग्रहण यशस्वी जालां, आनी दुसरें म्हळ्यार, तांणी भारतीय आनी अस्तमतेच्या काव्य-शास्त्राची बारीकसाणेन केल्ली मिमांसा साहित्य-शास्त्राचो तांचो खोलायेन केल्लो अभ्यास दाखयता. पुस्तकाच्या सुर्वेच्या भागांत 'काव्य-मिमांस' ह्या माथाळ्याखालच्या दीर्घ निबंधांत तांणी केल्ली ही काव्य-शास्त्राची फोडणिशी, तांणी स्पश्ट केल्ल्यो भारतीय आनी अस्तमतेच्या साहित्य-शास्त्रांतल्यो संकल्पना, हें सगलें कोंकणींत पयलेच खेपे आयलां. (मुखार चलता)

* * *

## पोंच

**अमर कोंकणी** जानेवारी ९९ (अर्द वर्सुकी पत्रिका)
इन्स्टिट्यूट ऑफ कोंकणी
सेंट अलोयशियस कॉलेज, मंगळूर

**आषाढांतलो एक दीस** (नाटक; अणकार)
मोहन राकेश
अणकार: पांडुरंग भांगी
साहित्य अकादमी, १९९८
पानां: ५४, मोल: रु. ७५/-

JAAG MONTHLY, JUNE 1999 REGD. No. GOA 130

# गोवा क्रांती दिन

(१८ जून १९४६)

यात्र ठिणगीने गोवा मुक्ती लढ्याचा स्फुल्लिंग चेतविला.

गोवा आपल्या स्वातंत्र्यसैनिकांच्या
शौर्य आणि त्यागाचे स्मरण करुन
त्यांना विनम्र अभिवादन करतो.





गोवा सरकारच्या माहिती आणि प्रसिद्धी खात्यामार्फत प्रसृत.